## NAMES & ADDRESSES OF MEMBERS OF GENERAL COUNCIL
## INSTITUTE MENEZES BRAGANZA

| SR.No. | NAME OF MEMBER | OFFICE ADDRESS | TELEPHONE No. |
|---|---|---|---|
| 1. | Shri Sanjay Harmalkar<br>Chairman ,(IMB) | Institute Menezes Braganza,<br>Panaji-Goa | (O) 2224143<br>(M) 9326117133 |
| 2. | Shri Pundalik Raut Dessai<br>Vice Chairman,(IMB) | Institute Menezes Braganza,<br>Panaji- Goa | (O) 2224143<br>(M) 9822981273 |
| 3. | Secretary Art & Culture<br>Member ,(IMB) | Secretariat, Porvorim-Goa | |
| 4. | Finance Secretary<br>Member ,(IMB) | Secretariat, Porvorim-Goa | |
| 5. | Shri Prasad Lolayekar<br>Member ( IMB ) | Director,<br>Directorate of Art & Culture,<br>Sanskruti Bhavan, Patto- Panaji-Goa. | (O) 2404602<br>9850937193 |
| 6. | Smt. Asha Gahaloth,<br>Member ,(IMB) | Chaitanya<br>Nandanvan –Residency,<br>Cross-II, Pattantali, | (O) 2287718<br>(M) 9420687160 |
| 7. | Shri Narendra Ajgaonkar<br>Member ,(IMB) | President,<br>Gomantak Marathi Academy<br>Marathi Bhavan, Alto- Porvorim-Goa | (O) 2413647<br>(M) 9422442587 |
| 8. | Dr. F.E. Noronha,<br>Member ,(IMB) | Padmavati Towers,<br>4th Floor, 18th June ,<br>Panaji –Goa | (O) 2224234<br>9422438809 |
| 9. | Shri Juino De souza,<br>Member ,(IMB) | J .B. Villa, Park Street,<br>B. B. Borkar Road,<br>Alto- Porvorim, Goa | (M)9923133412 |
| 10. | Shri Suresh Naik,<br>Member ,(IMB) | President,<br>Gomantak Sahitya Sevak Mandal,<br>C/o Gomantak, St. Inez, Panaji- Goa. | (M) 9657722909 |
| 11. | Shri Mohandas Surlakar,<br>Member, (IMB) | President,<br>Gomantak Rashtrabhasha -Vidyapeeth, | (M) 9822268953 |
| 12. | Smt. Madhavi Chafadkar<br>Member, (IMB) | President,<br>Sanskrit Pracharini Sabha<br>Communidade Building, Margao-Goa. | (0) 2714557<br>(M) 9423182066 |
| 14. | Shri Pundalik Naik,<br>Member, (IMB) | President,<br>Goa Konkani Academi,<br>Patto-Panaji-Goa. | (O) 2437385<br>(M) 9226359519 |
| 15. | Shri Nikhil Varerkar<br>Member, (IMB) | 7/UG-1, Kamat Classic 4,<br>Caranzalem, Panaji-Goa. | (M) 9422333038 |
| 16. | Shri Subhash K. Shetgaonkar<br>Member, (IMB) | President<br>Sahitya Sangam,<br>"Parimal" Nr. Bhagwati Temple<br>Mandrem, Pernem-Goa 403527 | (M) 9823166549 |
| 17. | Shri Jose Lawrenco<br>Member, (IMB) | Vice President,<br>Konkani Bhasha Mandal<br>Shankar Bandari Marg,<br>Vidhyanagar, Margao-Goa | (O) 2750585<br>(M) 9822184740 |
| 18 | Shri Sitaram Tengse<br>Member, (IMB) | Secretary,<br>Gomant Vidhya Niketan, Margao<br>Goa | 2710847<br>(M) 9922409416 |
| 19 | Shri Gorakh Mandrekar<br>Member Secretary, (IMB) | Institute Menezes Braganza<br>Panaji - Goa | (O) 2224143<br>(M) 9960401920 |

# गोवापुरी

Volume : IX | No : One | April - June 2014



वसुधैव कुटुंबकम्

# इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा, पणजी - गोंय

इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझाचें प्रकाशन

**Volume IX, No - One**
**April - June 2014**

**प्रकाशक :**
सदस्य सचिव
इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझा
पणजी - गोंय - ४०३००१
E-mail:imbpanaji@yahoo.com

**मुखपृश्ट :**
डॉ. राम मनोहर लोहिया, स्वातंत्रसेनानी
***श्री. संजय हरमलकर, चित्रकार***

**मलपृश्ट :**
हुतात्मा स्मारक

**मोल : रु. २५/-**

# अनुक्रमणिका

❖ ❖ ❖



# संपादकीय



'गोवापुरी' (एप्रिल-जून २०१४) चो अंक आमी व्हड खोशयेन प्रकाशीत करतां. 'गोवापुरी' चे रितीक धरून हो अंक कोंकणी, मराठी, हिंदी आनी इंग्लीश अशां चार भयण-भाशांनी अंक प्रकाशीत जाता.

कोंकणी, मराठी, हिंदी आनी इंग्लीश अशां चार भाशांतलें साहित्य घेवन योवपी 'गोवापुरी' हें अशे तरेचें देशांतलें एकमेव प्रकाशन आसुये. आयचे घडयेक भाशा-भाशांमदीं इश्टागत आसप खूप गरजेचें. अशी इश्टागत घडोवपाक 'गोवापुरी'चो हो अभिनव प्रयोग हातभार लावंक पावतलो म्हणपाचो भरंवसो दिसता. ह्या प्रयोगावरवीं चार भाशांचे मोगी आशिल्ल्या वाचकांचीय बरी सोय जाता म्हणपाचो फीड बॅक आमकां मेळला. चार भाशांतल्यान अंक काडपाचे कल्पकतेक आमी हांगां दाद दिवंया.

'गोवापुरी'चे परंपरेनुसार, विचारप्रधान साहित्याक चडांत चड सुवात ह्या अंकांत दिवप

जाल्या. तेच वांगडा कविता, कथा सारक्या ललित साहित्याकय फावशी सुवात मेळल्या. दोनय तरेच्या वाचकांचें चडांत चड समादान जावंचें हाचेर आमी लक्ष दवरलां. शंभर पानांचे मर्यादेभितर, चार भाशांक समभागांत आस्पावन घेवपाचो आमचेपरीन आमी यत्न केला. ते खातीरची तडजोड स्विकारतांना दर भाशेंतलें कांय साहित्य कुशीक उरलां. आमचो जाल्लो नाईलाज लेखकांनी समजून घेवचो अशी अपेक्षा धरतां आनी फुडाराक ताणीं आपलें आनीक साहित्य 'गोवापुरी' खातीर धाडून दिवचें म्हणून मागतां.

भोवतेक भाशांनी साहित्य-समिक्षा हो साहित्य-प्रकार दुर्लक्षीत उरला. साहित्याचे उदरगतीक साहित्य-समिक्षेची गरज आसा हो विचार साहित्य मळार आजून सारको रुजूंकना. लहान भाशांच्या साहित्य मळार तर साहित्य समिक्षेचो दुकळ पडला म्हटल्यार उपकारता. ताकालागून साहित्याची सारकी वळख जावंक पावना. तुलनात्मक अभ्यास जायना. हाचो तोटो निमणेकडेन साहित्याकच भोगचो पडटा. बरी समिक्षा जालेबगर, बरें साहित्य आमकां मेळचेंना हाचें भान सगळ्यांनीच दवरपाची गरज आसा.

बऱ्याच साहित्यिकांक समिक्षेची ॲलर्जी आसा असो एक समज आसा. पूण तें खरें न्ही. सुर्वेच्या काळांत अशी ॲलर्जी एक वेळ आसतय. उप्रांत ती आसना असो अणभव आसा. प्रस्थापीत लेखकांमदल्या बऱ्याच जाणांक आपली शास्त्रीय समिक्षा जाल्ली जाय आसता, पूण ती करपी समिक्षकच मेळनात अशी तांची खंत आसा. समिक्षकांनी हें आव्हान स्विकारचें आनी समिक्षेचो पडिल्लो दुकळ पयस करचो अशी ह्या समयार आमी आस्त बाळगुंया.

गोवापुरी, दर एका अंकांत, चडांत चड समिक्षात्मक साहित्य उजवाडावन आपलेपरीन आपलो चानयेचो वांटो उखलता हें नमूद करपाक खोस भोगत

जून हो गोंयाखातीर इतिहासिक म्हयनो आसा. ह्या म्हयन्याचे १८ तारखेक स्वातंत्र्यसेनानी डॉ. राम मनोहर लोहिया हाणी गोंयांत येवन पुर्तुगेजांचे परकी सत्तेआड झुजपाचो क्रांती मंत्र गोंयकारांक दिलो. त्या म्हापुरसाक आमचें नमन.

**- डॉ. तानाजी हळर्णकार**

❖ ❖ ❖

# सुलताना



**रमेश भगवंत वेळुस्कार**

कला अकादमीच्या लॉनार तो एकटोच बसलेलो. ताका थंय बसपाक आवडटा. ह्या लॉनार तो तेन्ना बसलेलो सुलताना वांगडा. सुलताना ताका आवडलेली पयली चली. पूण आयज लॉनार बसल्या बसल्या ताका दिसलें की तशें सुलतानाक ताणे सांगल्लें की ती ताच्या जिवनातली पयली चली. ते अर्थान ती पयली चली. म्हणचें मनाची धिटाय तयार जावन, मनात आसलेलें उक्तें करून सांगपाची धिटायूय तयार जाल्ली. आनी तशें तें ताणे सुलतानाक सांगल्लें. तरी बरें तेन्नाचो गोंयातलों मुसलमान लोक बुरखे बी घालनासलो. पूण सुलतानाचें इल्लें लागसारपण जालें. आनी ताणेय ताका तें सांगलें. आनी सुलतानाकूय तें मानलें. ताचेय मतींत ताकाय तशें दिसतालें. हें ताणे ताका ह्याच लॉनार बसून सांगल्लें आनी त्या सगळ्या घरच्यांक सोडून घराभायर सरपाकूय आपल्याक धाडस जावपाचे ना हेंय ताणे ताका सांगलें. तेन्ना ताणे सुलतानाक विचारलें की तें ताचेर मोग करता का ना?

सुलताना : पळय जय...हांवें जायते भुरगे पळयल्या ह्या शाळा कॉलेजाच्या वर्सांनी. पूण त्या सगळ्यामदीं जाची इश्टागत करची अशें दिसलें तो तूं.

तशें जाल्यार तूं म्हजेर मोग करता असोच हाचो अर्थ जालो ना?

म्हणचें, तूं म्हजेर मोग करीना, अशें मगो?

तुमी चले मरे नाका आसतना हळवे जातात. म्हाकां दिसता तूं आवडटा म्हणजें हांवें तुजेर मोग करुंकच जाय अशें ना. आनी खरें सांगू हे संबंधान हांवे तसो विचारुय केल्लो ना.

पूण सुलताना, पळय थंयच्यान ते चाक बसलेले कितलेशेच लोक आमकां ह्या वेळार पळयतात. ते आमचेबद्दल कितें चिंतात आसतले आमीं अशीं दोगांय हांगा बसल्यात तीं पळोवन?

जय, पळय. ते कितें चिंतात तें म्हाकां कांयच खबर ना. ते खऱ्यानीच आमकां पळयता आसतले हेंय म्हाकां खबर ना. तांकां आपापल्या कामांविशी आस्था आसा अशें म्हाकां दिसतां. म्हणटकूच ते आपापल्या कामांत आनी विशयांत गुल्ल आसतले. ते आमकां पळोवन आपलो वेळ कित्याक पिङ्ख्यार करतले? म्हाकां दिसना ते आमकां पळयताशे. आनी हे पळय जय, तूं तांचो कित्याक विचार करता. तूं म्हजेकडे तुज्या मोगाविशी, तुकां म्हज्याबद्दल दिसतल्या आकर्शणाविशीं उलयतालों तो अकस्मात आपल्या उलोवपाचो विशय सोडून हेरांकडे आनी तांच्या पळोवपाविशीं आनी दिसपाविशीं कित्याक विचार करपाक लागलो तें म्हाकां कळना. तुकां तुज्या विशयांत ध्यानभग्नताय आवडटा काय कितें?

हें सगळें आयकून तो सामको गडबडलेलो आपले ध्यान मग्नतायेविशीं सुलतानाक दुभाव आसा अशें म्हणचे परस ती तशीच आसा अशें ताका दिसप चड बरोबर आसा हेंच ताका जाणवलें. खरें म्हटल्यार हांवे ताका लोकांविशी म्हणूंक जाय नासलें. पूण हांवें तें म्हटलां खऱ्यानीच म्हाकां तशें कित्याक येवजलें काय? येवजलां काय दिसलां. खरें म्हटल्यार लोक आमकां पळयता असो भंय आमकां सदांच दिसता. तशें सगळ्यांकूच दिसता. आनी एक चलो, चली अशी लागीं बसलीं की ते चड लोकांक दिसता. लोक तांकां पळयतात. मागीर लोक तांच्यो खबरी करतात. आनी चडशा वेळार हें लोकांक मानना. मागीर विरोध सुरू जाता.

जय! कितें! तूं मोनो जालो. काय विचार बी करता. घडये हांवें अशें तुकां विचाल्लें म्हण तूं म्हजेविशीं दुभावला आसतलो. तुकां आतां म्हजेंविशीं जें पयलीं दिसतालें तें तशें दिसनाआसतलें, हय मरे? काय तुकां म्हजो राग बी आयला. आनी हें पळय असलें हें आमच्या मनात आयल्लें त्या लोकाच्याय मनात आयलांच आसतलें अशें मात ना आ. म्हजेविशीं मात हांव तुकां खरें तेंच सांगतां. तुजेविशीं म्हज्या मनात बरे विचार आसा. तुज्या तरातरांच्या गुणांक लागून तूं म्हाकां आवडला. म्हजेच सारक्या आनीकय चलयांक हे तुजे गूण आवडल्या आसपाची शक्यताय हांव बिलकूल नाकारीना. आनी तुज्यांत जी धिटाय आसा उलोवपाची तशी कांय चल्यांमदीं आसपाचीय शक्यता आसा. ताणीं तुकां तशें सांगल्यार त्यो सगळ्यो तुजेर मोग करता अशें निदान म्हाकां तरी दिसना. घडये तांतली एक खऱ्यानीच तुजेर मरताय आसूं येता. पूण तिणे तुजेर मरूंकच जाय अशें कंपल्शन तांचेर आसुंकूच जाय अशें ना. निदान म्हजेर तरी तशें तें ना. पूण आतां तुवें तुजें मन उक्ते केलां. एक चलो म्हजेर मरता हें आयकून म्हाकां जरूर उमेत जाल्या. पूण हें सूख म्हज्या नशिबांत ना. म्हजो "अब्बा आनी अम्मीजान म्हजेर खूब्ब मोग करतात. म्हजें अशें वेगळ्या धर्मांत लग्न करप तांकां बिलकूल पसंत आसचें ना. आनी म्हणून म्हण्टा...आमच्या एकठांय जावपाचें सूख म्हाकां ना. म्हण म्हण्टा की आमकां दिसतल्या ह्या मोगाचो जल्म जाला आनी आयजूच ताचें मरणूय जालां. पूण जय, आमची इश्टागत अशीच उरची. म्हज्या काळजाभायर हो मोग मेला. पूण काळजाभितर तो आतां नव्यान जल्माक आयला. आनी ताका मात केन्नच मरण आसचें ना. ताका लोकार्थी मरण. अंतरार्थी तूं म्हजो आसा.

सुलताना, म्हज्या प्रामाणीकपणाबद्दल तुकां कांयच दिसना?

दिसता, पूण हांव आजून म्हज्या धर्मातल्यान सुटूंक ना. आनी त्या अर्थान हांव तुजेर मोग करतां अर्शीय म्हजी मानसीक अवस्था ना आनी तो ताण तूं म्हजेर घालूं नाका अशें हांव तुजेकडें मागता. म्हजी व्हडली भयण एका क्रिस्तांवा वांगडा पळून गेली. तो भुरगो इतलो वाळेस आसलो की ताणे ताजी वायट लायली आनी एक दीस बरोच तायट जावन मोटरसायकलीन वयताना ताका ॲक्सिडेंट जावन तो आत्ताक मेलो. आनी एक वर्सान दोनूय तरांचो मारो सहन न जावन म्हजी भयण भायर पडली. अब्बूक हें बिलकुल सहन जालें ना. ताका ॲटॅक आयलो. घरांत आमचेर सगळ्यांचेर एक आकांताचें दडपण आमी सोसलां; अशें म्हजे भयणीन केलां. जय, म्हाकां समजना आमी एकामेकांचो कित्याक मोग करतात? ह्या संवसारांत मोगाकूच लागून सगळो भोग जाता. मोग आमकां कितल्याशाच नसत्या गजालीनी आडखळावन घालता आनी केन्ना केन्ना मनशांच्या मनाचें खाजें करून उडयता. अब्बूक पळय....व्हडले भयणीचें - सलमाचे कर्तृब अब्बूक निखळावन गेलें. आतां आपल्याक मुसलमान समाजांत आदलो मान ना अशी खंत आनी कोंचणी आतां ताज्या मनाक सदाकाल लागून उल्ल्या. आपल्या समाजाक आपणे बदनाम केला अशें ताका दिसता. आपणे घोर अन्याय केला, आपणे पाप केलां अशें ताका दिसता. ताचें मन थाऱ्यार ना. ताका रातची न्हीद पडना. अम्मीचीय अवस्था तीच. अब्बुची अवस्था पळोवन अम्मीचेरूय अशेंच मानसीक चेपण आसा. तांची जेवणावयली वान्सा उडल्या. तांकां कोण्णाक मेळन दिसना. तांकां सगळ्यापसून लिपून रावचेशें दिसता. आनी तरी आसतना कांय लोक तांकां मेळपाक येतात. आनी जे दीस तांकां लोक मेळपाक येतात तेन्ना तांचें हें मानसीक दुबळेपण वाडत वयता. लोक येता म्हळयारूच तांकां भिरांत दिसता. आयजकाल मोबायलावयल्यान लॅंड लायनीवेल्यान लोक आपल्या येवपाची खबर पयलींच दितात आनी तें आयकून ह्या दोगांयचो पारो अकस्मात देवपाक लागतां. आनी ती मनशां येवन वयता म्हणसर मानसीक आदळआपटीचे एक भयंकर मोड येता आनी ते वेळार त्या दोगांकूय सांबाळप म्हटल्यार नाकयां शिको येता. आनी हें सगळें म्हाकां सोंसचे पडटा. आनी हें म्हाकांय पेलना. म्हाकांय हाचे त्रास जाता. आतां हें सदचें मरण जालां. कोणा कोणाक म्हण सांगत रावू? कोण समजतलो म्हाका आनी म्हज्या आवयबापायक? देखून म्हाकां दिसता कित्याक केला हे मोग ह्या संवसारात मनशांनी तयार? सांग जय आनी तूं जें सांगता तशें हांव करूंक गेल्यार कितें जातले. तूं जाणा? निदान म्हज्यान तरी हें सोसूंक जायना. तुजेविशीं म्हाकां पुराय आदर आसा. आनी आतां तर तूं म्हजेर मोग करता हें आयकून म्हजो जीव आकांतून गेला. पयलींच घरची मानसीक अवस्था सोसूंक जमना म्हण जीव थकून गेला. आतां तुज्या मोगाचो पेज सोसपाक ताका त्राण ना. आतां ह्या दोनूय धुवांवसरल्यान ताणत वचपाचें एक नवें मानसीक दुबळेपण म्हाकां सोंसचें पडटलें. हें दुःख म्हाकां सोसचेंच पडटले. कितलेय त्रास जाले तरी. पेलतलें काय हें सगळें म्हाकां?

सुलताना....हांवें कितले त्रास दिले तुकां? आनी तेय बी तुजो कांय गुन्यांव नासतना. म्हाकांय खबर ना की हांव तुकां त्रासांत घालतां म्हण. तुजेविशी म्हाकां जाल्लें आकर्शण आपाप जायत गेल्लें. ही ओड आपशींच निर्माण जाल्या. ती बळजबऱ्यां निर्माण जावंक ना. हे आकर्शण सैमीक आसा. आनी खंयचोय धर्म सैमान निर्माण करूंक ना. पूण कांय मनशांनी समाजीक संवसारांत आपापले वेगळेपण आनी हक्क मेळोंवक ह्या वेगवेगळ्या आचारानी, वेगवेगळ्या विचारांनी जगपाचो प्रयत्न केलो आनी कालांतरान

ते वेगळे समाज घटक धर्म म्हण मुखार येत गेले अशें एक दीस एका जाण्ट्या आनी बुदवंत मनशान म्हज्या सपनात येवन म्हाकां सांगलें. आनी उपरांतूय तो सपनांत येत रावलो. ताका धर्म ना. जनावरांक ना. झाडापेडांक ना. मनशांक ना. कोण्णाक ना. पूण धर्म आसा अशें मानल्या उपरांत मनशानी म्हटल्यार धर्मीक वरिश्टांनी मनशाक धर्माच्या नांवांन झुजयलो आनी अशे तरेन धर्म कितल्याशाच मनशांचो खून करपी संघटना जाली. धर्माक लागून मनीस मनशाचो दुस्मान जालो. तो सपनांतलो जाण्टेलो म्हण्टा सैमान मनशाक एकामेकाचे दुस्मान म्हण जन्माक घालूंक ना. आनी एकामेकांक मारून खावपाक घालूंक ना. पूण धर्माच्या नावान आयज कितलेंशेंच रगत व्हांवत आसा. कोणाक आपलो धर्म व्हडलो दिसता. तर कोणाक आपलोच. म्हाकां कळटा तुजें दु:ख. तूं जर एका हिंदूच्या मोगांत पडलें जाल्यार कितल्याशाच मनशांच्या काळजाक उजो पडटलो. कारणा खूब्ब आसा. आनी तुकां कोण्णाक दुखोवंक नाका. पूण तूं स्वताक मात व्हडा दु:खांत घालपाक तयार आसा. आनी हें कित्याक तर जाल्यार तांका कांय गजाली कळना हाचेर परिणाम म्हण. जशें लोकांक दु:ख दिवपाचो हक्क तुकां ना तसोच तुका स्वताकूय दु:ख दिवपाचो हक्क तुकां आसा काय कितें? सांग, सुलताना, आसा तुका हक्क हो? आनी म्हाकां दिसना हांव हिंदु सो.

जय, म्हाकां हांसपाक येता. म्हाकां हो हक्क ना. मनीस असो पुराय जागरूक रावन जगल्यार मनशाक धर्म हो लागुंकूच शकना. हांव जायते वेळा विचार करतां....जर ह्या संवसारांत धर्मूच नासलेले जाल्यार?

जाल्यार जायतें बरें जावपाचें. पूण जेन्ना हांव असो चिंत्ता तेन्ना हांव खंयच्याच धर्माचो आसना. अशावेळार म्हज्या मनांतलो धर्म धर्मामदलो वेगळाचार ना जाल्लो आसता. हें फकत म्हज्याखातीर घडटा. आनी मागीर हांव ह्या धर्मांतल्यन भायर पडटां. हांव निधर्मी जातां. पूण लोक म्हाकां निधर्मी मानता काय ना? काय म्हाकां धार्मिक बंडखोर मानता? एकदां कितें जाले जाणा? सांगतां. एकदां हांव अशेंच उलयतालो म्हज्याच घरांत. तेन्ना म्हज्याच बापायन म्हाकां तापयलो. आनी म्हजे आवयक सांगलें.....हाका जेवण दिवप ना. हो पोर आमकां त्रासांत घालतलो. आमचो मुखाचो जीव दुखांत पडटलो. गावांत वातावरण बरें ना. आदीं नासलें अशें. हालीं सगळेंच कितें बदल्लांशें. लोक नाका आसतना चड देव देव करपाक लागल्या. हाका जेवण दिवपना. ना जाल्यार हो जाग्यार येवपाचो ना. आमकां सोंसचें ना हाचे विचार. लोकांक हाचे निधर्मी विचार पचचेनात. मागीर ते हाचेर हात उबारूंक लेगीत फाटीं सरपाचे नात. नाका आसतना सामाजीक बी बहिश्कार आमचेर येंव येता. आमकां नाकां ह्यो नस्त्यो कटकटी.

मागीर तुजे आईन तुजें जेवण थांबयलें?

ना. आईन बाबाक म्हळें; पळय आं, तुमकां एक विचारतां. तुमी म्हण्टात की लोक नाका आसतना चड देव देव करपाक लागल्या. हाचेवेल्यान अशें दिसता की तुमकां चड देव देव करप मानना. तुमचें खरें मत कितें? मात्शें म्हाका सांगा पळोवया. हें आयकून बाबा आईचेर तापलो. आई म्हणपाक लागली थंडपणान पळयात. ही काय म्हज्या प्रश्नाची जाप न्हंय. तुमकां फावोशी जाप दिवपाक येना म्हण तुमी म्हजेर तापतात. घडये हें तापप, म्हाकां तुमकां कितें मानना तें कळ्ळां म्हण राग आयला आसूं येता. तुमचें दुबळेंपण म्हाकां कळ्ळें म्हण हें तापप. आनी आमचो सुखांतलो जीव दुखांत न पडप ही तुमची अपेक्षा. तुमची अपेक्षा बरोबर आसत. पूण आमचें सूख जर लोकांच्या बऱ्या वायट विचारांचेर थारता जाल्यार

तें आमचें सूख कशें जावंक शकता? म्हाकाजाल्यार पटना हे तुमचे विचार. मुळांत हे तुमकांय पटनात. पूण जयाचें जेवण बंद केल्यार ताजे विचार थांबतले व्हय? विचारांक आनी भुकेक कांयच संबंध ना. आनी आपल्या विचारांचेर विश्वास आसलेलो मनीस भुकेक लागून विचारांवयलो विश्वास वगडायतलो हें म्हाकां पटना. आनी एक गजाल सांगू?

कितें तें? अशें बाबान म्हटलें.

आयकात सांगतां. म्हज्या आवयच्या घरा हांवें केन्नाच पुजा केली ना. ना हांव केन्ना देवाक पायें पडलें ना. म्हाकां तशी गरज दिसली ना. ना म्हटल्यार भुरगेपणात सगळें केल्ले हांवें. देवळांत वचप म्हण, प्रार्थना म्हण. पूण मागीर मागीर म्हाकां तें कांयच पटना जालें. विज्ञानाचो प्रभाव आसलो. देव देवस्की मनीस एक संवय म्हण करता. आपणे विचार केल्यार हे संवयांचे रीतरवीस नाच्च जाता. आनी विचार करी नासलेले मनीस ह्या संवयांक गुलाम जावन दसता. म्हाकां हें पटना जालें. हांवें सगळें सोडलें. आनी म्हजे हे विचार हांव पापाकडे उलयतालें. पापाकूय ते पट्टाले. आनी तो म्हण्टालो....बाय गो आमी संवयांचे गुलाम. पूण तुजें लग्न बिग्न जातकूच हें तुज्या घरा चलत अशें म्हाकां दिसना. थंय तें सगळें तुकांच निस्तरचें पडटलें बरे भशेन. ना जाल्यार आमी तुकां कसलीच देख शिकयली ना अशें तुज्या घोवाघरचें दुशण आमकां सोंसचें पडटलें.

आगो पूण तू तर पूजाअर्चा सगळें करता मगो हांगासर. बाबान आईक म्हटलें.

हय. हांव सगळें करतां. कारण पापान कितें म्हटलेंले तें तुमकां आतांच सांगलां. म्हाकां आमच्या घरांतल्या लोकांचें दुशण तांकां दिवपाचें नासलें, हे खातीर हें हांव करीत आयलें.

बाबान म्हटलें. पूण ही फटींगपणां जाली नां?

हय. जालीं. आईन सांगलें. आनी ही फटींगपणा संवसार बरे बशेन चलचो म्हण. पूण आयज आमचो जय म्हण्टा तें खरें आसून आमी ताका तो चूक आसा अशें सांगत रावप ही मात फटींगपणां जातलीं. परिस्थितीन म्हाकां फट मारची पडल्या. मोग करपाकूय आमकां त्या काळांर जमलें ना. आनी लग्न नाका म्हणपाकूय जमलें ना. वचत थंय तडजोड करीत जगप होच हांगच्या जगाचो नेम जाल्ल्यान हें जालें. पूण मनांतले विचार बदल्ले नात. लोकांकडे ताची वाच्यता केली ना. म्हणून मन बदल्लें अशें जायना. हांवें हें सगळें पुताक जयाक सांगलें आनी ताचें हें मत जालें अशेंय ना. पूण ताचें मत आनी म्हजें मत एक जालें. तो खरो आसा. म्हाकां जें फटींगपण करचें पडलां तें ताका करचें पडचें न्हंय अशें दिसता. म्हणून म्हण्टां...जर ताका जेवण दिवंया नाका जाल्यार हांव ते करपाक तयार आसा. पूण एक गजाल सांगतां, ताचे वांगडा हांवूय म्हजें जेवण सोडटली. जितले दीस ताका जेवण मेळचें ना, तितलेच दीस हांवूय जेवची ना. आनी जेंवचीना म्हणचें ना.

आगो पूण...बाबान म्हटलें. हें कितें. म्हज्या भुरग्यामुखार तूं म्हजो अपमान करता. पूण मनात मात ताका भिरांतशी दिसली.

आईन म्हटले, ना...ना...बिलकूल ना. हांवें तुमचो बिलकुल अपमान करूंक ना. हांवें म्हजें मन तुमचे मुखार उक्तें केलां. जें खरें आसा तें सांगलां. अपमान बी म्हणून तुमी तुमचो दादलेपणाचो धेंक दाखोवंक सोदता जाल्यार वेगळी गजाल. ह्या सगळ्यांत तुमचो अपमान करप हाका मात्तूय बैठक ना. पूण तुमी तुमचें मन आजून उक्तें केलें ना. तें उक्तें जाल्लें जाल्यार प्रश्नूच उरचो नासलो अशें म्हाकां दिसता. तुमी कितें तरी लिपयतात अशें म्हाकां दिसता.

बाबा कांय उलयलो ना. आनी भितर गेलो.

ते सांजवेळा आईन जेवण केलें. आनी रातीकडें कोण्ण जेवलो ना. जेवण मेजार तशशें उल्लें. सकाळी चा जाली. पूण कोण्णे घेतली ना. ते उपरांत आई बाबाचें उलोवप जालें काय ना ते म्हाकां खबर ना. दुसरे दिसा सुटयेचो दीस आसलेल्यान भायर खंयच वचपाचें नासलें. आईन दनपारांय जेवण केलें. आई म्हजेयकडें उलयली ना. हांवूय तिचेकडें उलयलों ना. खरे म्हटल्यार आईचे तें रूप म्हाकांय नवें आसलें. पूण ती म्हज्या विचारांकडें समानपण दाखयता हें म्हाकां मोठेपणशें दिसलेंना जाल्यार म्हजे विचार तिच्यांतल्यान बी स्फुरूंक ना मूं? असो विचार म्हाकां येवजलो.

जय, तुजो बापूय धर्मीक आचारांचेर कितलो विश्वास दवरपी?

विशेश ना गो. घरची पुजा बी तो करता. गणपती पुजता. दिवाळी परब तो करता. म्हाकां तो देवाचो भक्त बी असो केन्नाच जाणवूंक ना. रीत रवीस चलोवपीच सो मनीस हो. तशें आमचें उलोवप केन्ना जायना. हें जाय, तें जाय असलें उलोवप. एकाद्या विशयाचेर तो आनी कोणायकडें जशी भासाभास करता तशें उलोवप केन्नाच जायना वा जावंक ना. पूण ताचो भटाक बी हाडून देवसपण करपाचेर विश्वास ना. हाचेवेल्यान ताचे एका इश्टाकडे जाल्लें उलोवप म्हाकां याद जाता.

शेजारी : आरे तुजे बरें न्हय रे. गणपती पांच दीस मरे?

बाबा : हय तर. पांच दीस. आमचो जय म्हण्टा सात दीस दवरूया म्हण.

शेजारी : भटाक बी सांगलां मरे?

बाबा : भटाक? आरे गणपतीची पुजा म्हाकां करपाची आसा. भावार्त म्हजो. पुजा म्हजी. देवामदीं आनी म्हज्यामदीं भट बाबडो कित्याक?

शेजारी : आरे भटाकडल्यान पुजा केली की देवाक पावता बरे तरेन.

बाबा : कितें गॅरेंटी आसा पावताच म्हण. कितेंय आसूं. म्हज्या आनी देवा मदीं म्हाकां भट नाका. देवाकूय तो नाकाच आसतलो. देवान काय म्हाकां केन्नाच सांगूक ना तो जाय म्हण मदीं.

शेजारी : जाणा मरे अनंत.....तूं म्हण्टा तें तशें चूक दिसना रे. पूण आमकां आपलें भट आयल्लो की बरें दिसता. देवाक सगळें पावलेंशे दिसता.

बाबा : पावलांच हाची गॅरेंटी आसा? ना. ती कोण दितलो? आसूं...तुमी बाबडे हाडा ताका. जण एकल्यान आपापल्या भावार्ताप्रमाण चलप.

शेजारी : आनी रावरे अनंत, एक सांग पळोवया, तुजी पुजा पावता मरे देवाक?

बाबा : शाबास. प्रश्न बरो विचारलो. जाप म्हाकां खबर ना, तसो हो प्रश्न कोण्णाक खबर आसना. हो प्रश्न हांवेय म्हाकां अनेक पावट विचाल्ला. हांतल्यान जायते नवे प्रश्न उपरासतात. आनी तकली भेर्रर करतात.

हो तांचो संवाद म्हज्या मनात बाबाच्या मतांविशी एक एक वेगळीच सुवात निर्माण करता.

जय, मागीर सांग, हांगा तुज्या बाबाचें मत बरे तरेन कळूं येता. आनी उपरांत तुमचो उपास केन्ना सोंपलो?

आमचो उपास मगो? आईन दनपरां रांदलेले कोण्ण जेवंक ना. आईन परत रातकडे रांदलें. आनी आमी तिगांय जेवली.

पयलीं बाबान खंय आईक जेवपाचो आग्रो केलो. आईचें न जेवप बाबाक त्रास दितालें. कोण्ण कोणाकडें उलय नासलो. सगळ्यांचेर एक आकांताचो पेज आयल्लो. निमणे बाबानूच आईक सांगलें. मनयली आनी आईन सांगले की जय जेवता जाल्यार आपूण जेवतां. आनी जयाक बाबान वचून जेवपाक

आपोवचो. बाबानूय आनीक चड वेळ काडलो ना. म्हज्या रूमात येवन म्हाकां सांगलें की जेवपाक यो म्हण. तशीं म्हाकां तिडक आयल्ली. पूण हांव ताच्या अपरिहार्यतायेविशींय चिंतालो. आमच्या संवसारांत आपूण जावन चिंतून कितेंय थारांवचे परस चार लोक सांगता तशें चलत रावप, तांचे मानींत रावप, हें वागप बरें वागप अशें मानतात. आनी हेच खातीर घडये चडशे लोक अशे वागतात आसतले. घडये मनात नासून लेगीत. म्हण्टकूच जेन्ना बाबा म्हाकां जेवणाक आपोवंक आयलो तेन्ना हांव जेवपाक गेलो. खूब्ब भूक लागलेली अशें न्हय. रातीकडें लागलेली सकाळी लागलेली. दनपरां लागलेली. भुकेचो तो वेळ गेलो की मागीर कांय नाकां आसता. बाबान जेवणाक आपयला तेन्ना म्हाकां भूक नासली. पूण मागीर मात म्हाकां भूक लागल्याशीं दिसपाक लागलें. मेजार आमी तिगांय मोन्यानी जेवलीं. आनी उठलीं. हांव आंचवूंक वयताना बाबान म्हाकां म्हटलें, पळय बुनयादी चिंतप हांगासर लोकांक आवडना. तुजें चितप चुकना. पूण लोकांक तें चूक दिसता वा तें तशें तें मानतात. म्हजें म्हण्णे की आपणे आपल्याक त्रास कित्याक करून घेवप? हांवें ते आयकलें. हांव तें समजल्लों. पूण म्हाकां आनी ताचेकडें भासाभास करचीशी दिसली ना. हांव आंचवून म्हज्या रूमात गेलों. समजले सुलताना?

हय. म्हाकां दिसता तुमचो तिगांयचो सभाव एक. पूण पारंपारीक चिंतना सोडून मुखार गेला. तुजो बाबाय परंपरा सोडपी. पूण धरूनय रावपी. म्हण तो उलयता, आनी तुजी आईन सगळी परंपरा मोन्यानी सोडल्या. कोणाक तरी बरें दिसलें म्हण ती तांकां जाय तें करता. पूण तीच सगळ्यांक खेळयता काय दिसता.

सुलताना, पळयलें. हांव आतां खंयच्याच धर्माचो उरूंक ना. आनी म्हाकां दिसता तूंय उरूंक ना आतां. उल्लां तूं?

ना. हांवूय उरूंक ना. पूण म्हाकां अशें उत्केपणान उलोवन भायर सरूंक जमचें ना. म्हजीं तमाम दुबळेपणा हातूंन आसा आनी म्हाकां हाची जाणीव आसा. तूं म्हाकां बळजबऱ्या बंधनात घालू नाकां.

ना. बिल्कूल ना. पूण म्हाकां तुज्यांत आस्था आसा. म्हाकां तुजो मोग आसा. एकतर्फी आसातो. पूण तुकां म्हजे विशीं दुस्मानपण ना. तुकाय हांव आवडटां. पूण आजून ह्या आवडपाचें रूपान्तर मोगांत जावंक ना. आनी एक ना एक दीस तें जातलें हाची म्हाकां खातरी आसा. तूं म्हाकां सोदीत येतलें. हांव खंयूय आसूं थंय तूं येतलें इतलो विश्वास म्हज्या मनात कित्याक आसा तें खबर ना. पूण तो आसा. आनी तो आसा तो गडगंज आसा. हांव तुजी वाट पळयत कितलींय वर्सां रावतलो. कित्याक जाणा? कित्याक तर तुजेबगर आतां थंय आनी कोण्णाक सुवात ना. म्हाकां तुजी ओड आसा. तुजे इश्टागतीची आसा. तुज्या शरिराची ना. पूण तूं ज्या शरिरांत रावता त्या शरिराबगर तुजें अस्तित्व आनी कशें कशें पळोवप तें म्हाकां कळना. म्हण्टकूच तुकां शरिरासयतच आपणांवचें पडटलें. शरिराशिवाय त्या जिवाक कशें वळखूंचे तें खबर ना म्हाकां. आनीक कोणाक खबर आसा जाल्यार खबर ना. तूं म्हाका सोदीत येतलें कारण तुकांय म्हजी गरज जातली. हांव तुजी वाट पळयतां आनी तुज्या सांगाता बगर ह्या जिविताची वाट पुराय जांवकूच शकची ना.

तीं दोगांय ते दिसा त्या लॉनावयल्यान पयस गेलीं. वर्सांचेर वर्सां गेलीं सुलताना ताका मेळपाक केन्नाच आयलें ना. ताचो निकाह जालो काय ना हेंय ताणे केन्नाच आयकलें ना, आनी ताणे ताची वाट पळोवपाचें केन्नाच सोडलें ना. जितलो जितलो काळ वाडत गेलो तितलें तितलें तें ताच्या मनात भरत गेलें....न सोंपपा इतलें. आयजूय तो थंय त्या कला अकादमीच्या लॉनार बसला. घडये तें येत.....तें येत....

❖ ❖ ❖

# ‘प्रकाश पाडगांवकार हांचे कवितेतलो आध्यात्मिक एकांतवास’



प्रा. आशा अ. मणगुतकर

“पाडगांवकराचें संवेदन जातडेत नाजूक, आत्मलक्षी, अनंततायेचें भान आशिल्लें आनी उजवाडाकडेन सभाविकच ओड घेवपी.” कवी प्रकाश पाडगांवकर हांच्या कवितेविर्शीचे बाकीबाबांचे हे शब्द प्रकाशबाबाल्या दर एक कवितेतल्यान अविष्कृत जातात. ‘त्या’ प्रकाशाची वाट चलपी, ताचो सोद घेवपाक आपली काव्यप्रतिभा जोखपी, जांच्या नावातच ‘प्रकाश’ म्हळ्यारूच ‘उजवाड’, म्हळ्यार ब्रह्मांडांचे दृश्य रूप आसा. त्या प्रकाशबाबाच्या कवितेतल्यान परगट जावपी आद्यात्मिक एकांतवासासंबंधीचो विचार ह्या म्हज्या बरपातल्यान करपाचो हांवें म्हज्यापरीन यत्न केला.

किदें योगायोग पळेयात. जेन्नापासून कोंकणी कवितेविशी हांव विचार करताली, तेन्नासावन बाब प्रकाश पाडगांवकराच्या कवितेविशी म्हाका आत्मियता आसली. तांचे दोन कविता झेले हांवें वाचिल्ले. ते म्हळ्यार, ‘वास्कोयान’ आनी ‘हांव मनीस अश्वत्थामो’. ही कविता वाचल्या तेन्नासावन ही कविता किदें तरी वेगळे सांगूक सोदता, तिची जात वेगळी आसा. अशें म्हजे मन म्हाका सदाच सांगतालें. ताकालागून ह्या कविविशी मनात आदराची भावनाय आशिल्ली. मनाच्या एका कोनशांत तांची कविता हांवें जतनायेन दवरलेली.

कोंकणी कवितेच्या मळावेली शंकर रामाणी उपरान्त अशा गूढ शक्तींचो सोद घेवपी ही कविता म्हाका खंयतरी ओड लायताली.

प्रकाशबाबाल्या कविताझेल्यांची नांवा पळेल्यारूच तांच्या मनाचें पडबिंब तांतूत दिश्टी पडट्टा. १९७६ सावन तांची कविता वाचप्यांच्या भेटीक आयल्या. तांचो पयलो कविताझेलो 'उजवाडाचीं पावलां' (१९७६), ताच्या उपरान्त 'वास्कोयान' (१९७७), 'हांव मनीस अश्वत्थामो' (१९८५), 'कविता : काळ-रल्वेच्यो, मन हारशांच्यो, पावसा पाणयाच्यो' (१९९३), 'सर्ग घडपाक धर्तरेचो' (१९९४), 'व्हांवती न्हंय काळाची' (२००३) 'ब्रह्मांड -योगी चिरंतनाचो' (२००८) सगळ्या कविताझेल्यांच्या नावाभितर एक जीवनसोद आनी जीवन सोद घेता घेता घेतिल्लो आत्मसोद होच विचार गर्भितार्थान दिश्टी पडटा.

पाडगांवकरांच्या कवितेची सुरुवातच अशा उजवाडाचीं पावलां सोदपाच्या उद्देशान जाल्या. हें तें न्हंयकारनात. ह्याखातीर तांच्या मनाची जडणघडण कशी जाल्या ताचेर आमका मात्शी नदर मारची पडटली.

'भारत सेवक समाज' सारकिल्या सेवाभावी संस्थेच्या आलशिऱ्यान चलिल्या शाळेंत ते शिकले. समाजाक समर्पित जाल्ली मनशां तांकां हांगाच मेळ्ळीं. म्हाका दिसता मुळातच चितपी, विचारी, अंतर्मुख असो स्वभाव आशिल्ल्या पाडगांवकरांच्या मनातल्या उजवाडाच्या वाटेक याच काळांत दिका मेळ्ळी जावये. आनी फुडे मावजो स्टुडियोत काम करता आसतना थंय चलिल्या कोंकणी चळवळीचे सगले पावंडे ताणी अणभवले. मनाचेर तांतूल्यानूच देशभक्ती, आपली अस्मिताय हाचो परिणाम दिसादिशीं वाडत गेलो. कारण मुळात हें मन खूपशें संस्कारित आशिल्लें. ल्हानपणात वाचिल्यो चांदोबातल्यो गजाली, घरात आशिल्लें नाटकाचें वातावरण, चवथीक वाड्या-घरांनी जावपी भजना आनी आरत्यो, वाड्यावेल्या किरीस्ताव भावाच्या घरा-घरांनी चलतली कातारां, वाड्यावेले तियात्र आनी इंत्रुजाचे नाच. हातूतल्यान तांच्या मनात आशिल्ले संस्कारबीज कवितेच्या रूपान आविष्कृत जावंक लागलें. आनी तातुतल्यानूच जीणेचीं तासां सोदपाचो एक आगळो-वेगळो छंद तांका लागलो, अशें म्हणू येता.

अर्थात या छंदाक पोसवण मेळ्ळी ती कोंकणी भाशा मंडळाच्या शिबीरांची. तांतूत तांका बाकीबाब, पांडुरंगबाब, रवींद्रबाब आनी तांच्या सारकिल्या कितल्याशाच विचारवंताचे विचार आयकूक मेळ्ळे. तांचें मार्गदर्शनय मेळ्ळें आनी मागीर तांच्यातलो कवी 'सत्य' सोदपाक भायर सल्लो. रवींद्रबाबाक आनी बाकीबाबाक जायते प्रस्न विचारून आपल्या मनातल्या शंकांचें ते समाधान करपाचो यत्न करतालें. अशे तरेन तयार जाल्या चिंतनशील मनाच्या भूंयेक 'सारें' मेळ्ळें तें धेंपे कॉलेजीत शिकता आसतना, पोस्ट ग्रॅज्यूएट सेंटरातल्या लायब्ररींत तांका मेळपी डॉ. एस्. एस्. कुलकर्णी हांच्या विचारांचें. डॉ. एस्. एस्. कुलकर्णी हें महायोगी अरविंदाच्या तत्वगिन्यानाचे अभ्यासक, तांच्यासारख्याच्या सांगातान प्रकाशबाबाच्या 'सत्या'च्या सोद घेवपाच्य विचारांक पोसवण मेळ्ळी. तांणी स्वत: अरविंदाच्या साहित्याचो अभ्यास केलो. तातुल्यातूनच 'सत्या'चो सोद घेवपाचो चिरंतन ध्यास प्रकाशबाबाल्या कवितांचो आत्मो जालो. डॉ. एस्. एस्. कुलकर्णी 'ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो' या कविताझेल्याच्या प्रस्तावनेत म्हण्टात, "भगवंत गीतेसंबंधी म्हासंत श्री ज्ञानेश्वरान जें कितें सरळ, सोपें आनी सोबीत मार्गान जशें केलें, तशें कवी प्रकाशान ह्या संग्रहातल्यान महर्षी श्री अरविंदाच्या तत्वप्रणालीसंबंधी करपाचो यत्न केल्लो

आसा. हाचो पुरावो पुराय संग्रहांत दिश्टी पडटा.''

आपल्या कवितेविशी स्वत: प्रकाशबाब म्हण्टात, ''म्हज्या हातातल्यान सपसप कविता बरोवन जायनात. कविता सुचूंक लागल्यार त्यो म्हाका एकसारक्यो सुचत रावतात. नाजाल्यार स म्हयने एक वर्स म्हजेकडल्यान एकूय कविता बरोवन जायना.'' हाचोच अर्थ कविता बरोवची म्हणून प्रकाशबाबाली कविता बरोवन जायना ती येवची पडटा. तशी ती तांका जेन्ना उत्स्फुर्ततायेन सुचता तेन्नाच ती तांचेकडल्यान बरोवन जाता. आनी म्हणूनूच तिका चिरंतनाचें परिमाण आसा. खंय पुरस्कार मेळवपाखातीर, आपली कीर्त जावपाखातीर ते बरयनात, अशें म्हाका दिसता. ही कविता तांच्या काळजातल्यान आयिल्ली आसा. आनी म्हणूनूच ती खरेली आसा, शाश्वत आसा, सत्य आसा अशें तिच्याविशी मुजरत म्हणू येता.

कवीवर्य शंकर रामाणी आपल्या कवितेविशी जें म्हण्टाले तीं उतरा म्हाका याद जातात, ते म्हण्टाले ''कविता येता हांव फकत तिका येवकार दितां आनी खासा तिगेल्याच हांवे आपणायल्या उतरांनी तिचें मखर सजयतां'' अशेच तरेची निर्मणी प्रकाशबाबाक कवितेविशी आसा अशें म्हाका दिसता.

तांच्या कवितांविशी वेगवेगळ्या अभ्यासकांनी आपलीं मतां मांडलेली आसात ''समाजसन्मुख कवीन घेतिल्लो आत्मसोद' म्हळयार तांच्या व्हांवती न्हंय काळाची' ह्या संग्रहातल्यो कविता अशे भौमानेस्त डॉ. सोमनाथ कोमारपंतसरान म्हळां. तर 'भविष्याचो द्रश्टो कवी' ह्या उतरांनी भौमानेस्त रवींद्रबाबान तांची तोखणाय केल्ली आसा.

'उजवाडाचीं पावलां'तल्या कवितेन सुरू जाल्लो हो तांच्या कवितेचो प्रवास 'ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो' या झेल्यांतल्या कवितांमेरेन तेंगशेर पावला. अशें म्हणू येता. 'ब्रह्मांड योगींच्या आविष्काराची सुलूस आमकां 'उजवाडाच्या पावलां' नी मेळटा. उजवाडाचें पावल मारपाक ताणीं आपल्या कुडींचीच चूड केल्या. आनी ते चैतन्याची भोवंडी करपाक भायर सरल्यात. तांची 'हांव एक चैतन्याचो भोवंडेकार' ही कविता तांच्या विचाराचें आदीम सूत्र आसा अशें म्हाका दिसता. फुडें हो प्रवास याच सुत्राच्या रस्त्यान वचून एक दीस त्या चैतन्यरूपी ब्रह्मांडाचो साक्षात्कार जाल्या उपरान्त, त्या चिरंतन सत्याचो योगी जावन वचण्यामेरेन पावता. हो एक आद्यात्मिक प्रवास. पूर्णातल्यान पूर्णाकडेन चलिल्लो एका आत्मतत्वाचो प्रवास आसा.

हो प्रवास करता आसतना प्रकाशबाबाच्या मनात खूप प्रश्न उप्रासतात. तांच्यो जापो सोदपाचो यत्न ते करतात. आनी अशा मनशाक सदाच एकांत गरजेचो आसता. 'एकला चलो रे' अशींच तांची वाट चलता. कोंकणी कवितेच्या प्रांतात खूप वेगवेगळ्या तरेन कितलीशींच फुलां फुल्ली. पुण कोणाच्याय सांगातान तांणी दुसऱ्यासारखी कविता बरयली ना. 'उजवाडाचीं पावलां' हातुतल्या 'म्हजें मांडवीचे देगेर' हे कवितेंत एके फातोडेच्या वेळेचें मांडवी देगेवेलें वर्णन केलां.

''सूर्य किरणांचे सूर आयकत
जीव सूर्य फुलाभशेन फुलोवन
मांडवीचे देगेर 'उषासूक्त' गायत
आपणें आपल्यकसोदीत भोवंचे''

अशेतरेन 'आपुणूच आपल्याक' सोदीत भोवपाक कवीक एकांत जाय. कारण सरभोवतणी चलिल्ल्या वायट गजालींक ताका पळोवंक जायना. 'मनीस' जातीत जल्माक येवन मनीसपणच विसरप आनी होच आपलो धर्म मानणाऱ्या ह्या जगात 'मनीसपण कशें हाडप' ही तांची तळमळ आसा. म्हणूनूच मनीसकायेच्या दिव्य देवळाचें सपन ते रंगयतात. या शब्दांतल्यान,

"कल्पांतातल्या सजीवतेतल्यान कोटी सुर्याचे तेज
मायेमोगाची अुब घालीत
अुपेक्षीतांची जीण पर्जळावंक येवचें
आनी जल्माजल्मांचे दळिद्र झडून
नव्या अर्थ आशिल्ल्या जिणेची पालवी फुटची"

.............

.............

'मनीसकायेचें दिव्य देवूळ
आकाराक येवचे"

अशें सपन रंगवपी मनीस सरभवतणच्या गर्देंतय एकलोच आसता. आनी त्याच विचारातल्यान भोवंडेकार, आतां हांव ह्याच काळखांत जियेतलो, अेक मनीस, हांव आनी म्हजी जीण, कितले म्हूण झेलचे घाय, अशो कविता जल्माक येतात. सातत्यान तांचो प्रवास 'मनीसजातीक आत्मिक आनंद मेळचो आनी मनीस सुखी जावचो' ह्याच विचारान चलिल्लो आसा.

मनीसकायेचें दिव्य देवूळ निर्माण जावचें ही इत्सा प्रकाशबाबाच्या मनात आसा. ताका लागून 'वास्को'चें तें विद्रूप रूप पळौवन ते दुःखी जातात. काळरेल्वेच्या प्रवासाचो अंतर्मुख जावन विचार करतात. अश्वत्थाम्या भशेन एकटेंच सुखाचो शोध घेत भोवतात. मनशाच्या मनीसपणाचो सोद घेतात. आद्यात्मिक प्रवासातली ही एक एकटेपणाची अवस्था आमका ह्या संग्रहातल्या कवितांनी दिश्टी पडटा. देखीक एक शाश्वत रूख, काळोख गुपाट, दुःख, दुयेंस, कापूस, घुसमटणी, घर, कुडकुडट्या काळखांत, दुःखाची कळ अशा आनीक कितल्याशाच कवितातल्यान हे तांचे रूप दिश्टी पडटा. विचार करता करता मनीसजातीच्या सुखाचो मंत्र सोदतना समाजातल्या भयेस्त वास्तवाचेर ते शब्दांचे आसूड ओडटात. देवळातली मूर्त, मिनाक्षीपुरम धर्मांतर अशा आनी हेर काय कवितांतल्यान हेंच चिंतन दिसता.

मनशा मनशामदीं 'तें' आत्मतत्व म्हळ्यारूच पूर्णब्रह्मच 'अंश' रूपान आसा. म्हणून 'सगळी मनीसजात एक' हें सत्य जें, उपनिषदानी मांडले, गीतेन स्पष्ट केलें, त्याच सत्याचो सुगावो तांका जाला. आत्म्याकडेन चलतल्या संवादातल्यान हे सत्य तांका होलमलां. आयच्या समाजातल्या परिस्थितीतल्यान मनशाक सुखाचो मार्ग दाखवपाक 'तो' येतलो. हो तांचो विश्वास 'सर्ग घडपाक धतरेचो' या संग्रहांतल्या कवितांत भरून उल्ला. 'भगवान मनशाच्या रूपान येवन मनीसकुळयेचे प्रश्न सोडयतलो' हो तांचो विश्वास. हो आशावाद. हांतुतल्या तीन दीर्घ कवितांतल्यान हेचं चिंतन आसा.

पयली कविता 'मोग अजरंवरी' ही दोन मोगी जीवांची एकरूपताय चितारता. तांच्या अद्वैतांतल्यान 'कृतार्थ सुगुर्वो' ही कविता नव्या सृजनाचें वर्णन करता त्या बालकाच्या रूपान 'भगवंत'च आयला. आनी तो मनीसधर्माची स्थापना करतलो. तिसऱ्या कवितेतल्यान जग सुंदर जातले. हो 'भविष्य दिश्टावो' तांका मेळटा. 'ब्रह्मांड-योगी चिरंतनाचो' हो आत्मोद्गार तांका दिश्टावो दिता तो हेच कवितेंतल्यान - पळयात

"ब्रह्मांड योगी चिरंतनाचो
मारता तासां काळार
नदर आरपार भेदीत भोंवता
आसनस्थ सूर्यरथार"

अशा म्हापुरसाच्या अस्तित्वात सगळें बरे जातले हे सपन तांका दिसता आनी ते म्हण्टात

'आता सोपतलो पावस शरूगंचो
वारो व्हांवतलो शांती सुखाचो

.............

संवसारभरची मनीसजात
ऐकमेकांच्या वेंगेत येतली
विश्वकल्याणा मनीसकायेची

'ऋचा उजवाडा गायतली.'

असो भविष्याचो दिश्टावो खुशालभरीत जावन गायतात.

'व्हांवती न्हंय काळाची' हातुतल्यो कविता म्हळ्यार आध्यात्मिक प्रवासांतलो सामाजिक चिंतनाचो काळ म्हणू येता. समाजातल्या वायट गजालींचे तांच्या मनान केल्ले चिंतन हांतुतल्या कवितांनी दिसता. ते भयाण वास्त्व 'सगले आमी एक' हे सत्य समजून घेवपाचो यत्न करपी कवीमनाक खूप दुख दिता. तो या वास्तवाचेर भाष्य करतना संत तुकारामा भशेन कठोर जाता आनी म्हण्टा

'धर्म म्हळ्यार साबार पंगडांच्या मुखेल्यानी
आपणाल्या सुपीक तकलेतल्यान
आपणाक जाय तसो मांडिल्लो कल्पनेचो बाजार''

'राजचित्र' कवितेतल्यान चितपी मनात, राजचिन्नाच्या तीन बावल्याच्या प्रश्नाची जाप सोदतना कितल्योशोच कल्पना सुचल्यात. त्यो सगल्यो मांडून निमणे तांका जाप मेळटा हे तीन बावले म्हळ्यार एक उलयतात, दुसरेंच करतात आनी तिसरेंच घडटा तांचे प्रतीक जावये. (खरे म्हळ्यार पुराय कविता वाचल्यारुच ताची मजा घेव येता.) तांच्यो अशा सामाजिक चिंतनाच्यो कविता एक वेगळो अभ्यास विषय आसा.

मात अशे परिस्थितीत ह्या व्हांवत्या न्हंयेचो विचार करतनाच कवी आत्मरत जाता आनी 'आत्मसोद' 'धर्म', 'वसुंधरा' असा कवितांतल्यान मनीसधर्माचे बळगें लोकांक शिकवपाची आनी तातुतल्यान ह्या जगाचें सोबीतपण राखपाची तांची तळमळ दिसता.

देखीक 'धर्म' कवितेतल्यो ह्यो वळी पळेयात,

'आमी मनीस म्हणून एकमेकांक वेगोंवया
आमची जिणे बुनयाद घट करुया
आनी चिरंतनाच्या मुळावणांतल्यान
लखलखपी सुर्याचेर
आमच्या मनीसकायेच्या
एकवटाचे झाड लावया'

वसुंधरेच्या उजवाडाकडेन चलिल्ल्या प्रवासाकडल्यान प्रेरणा घेवपी हो कवी, ताका आत्मतत्त्वाचो साक्षात्कार जाल्या उपरांत, लोकांक आत्मसोदाचो उत्कर्षी दिवपाक वावडूंक सोदता सोदता 'हांव म्हजो न्हंय हाव सगळ्यांचो' हो भव्य दिव्य विचार ही कविता दिता.

हें आत्मतत्वाचें गिन्यान कवीच्या कायेंत, काळजांत, रगताच्या कणाकणांत भिनून गेलां. ताच्याशिवाय दुसरें ताका कायच नाकां. आपल्या फुडल्या प्रवासांत तो वाचप्याक एक दिव्य नजर दिता म्हळ्यार अतिताय जावची ना.

तांचो फुडलो कविताझेलो 'ब्रह्मांड योगी चिरंतनाचो' हांतुतल्यो कविता याच भार आयिल्या मनान गायिल्ले ईशसूक्त आसा. अरविंदांचें तत्वगिन्यान तांच्या शब्दा-शब्दातल्यान व्हांवता. भितल्ल्यान जाल्लो 'अहं ब्रह्मास्मी' चो साक्षात्कार हे कवितेतल्यान वाचप्यामेरेन पावता. तो आमका 'प्रार्थना' कवितेंत या उतरांनी वाचपाक मेळटा.

'विश्व ब्रह्मांड रचणाऱ्या
ज्योत तुझीच म्हजे भितर
ज्योत ज्योतीक भेट्टकच
आमचें मदलें सरता अंतर'

'ईश्वरसूक्त' या कवितेतल्यान ईश्वराच्या रूपाचो साक्षात्कार प्रकाशबाबान कोंकणी वाचप्याक दिला. ईशोपनिषदाचो अणभव ह्या शब्दांत भरून आसा.

'ईश्वरा, तूं नित्यनवो जल्म घेवन
नवो ताल्ल खिणा खिणाक
............
.... तू काळाक आपणावन
अनंत सहस्त्रकांच्या काळा-पाळण्यात

आसता धोलत
भोगत चिरंजीवी
तुवेच निर्मुन पातळायल्ली
तुजी विस्मितायेची निर्मणी'

अशे अवस्थेंत ताका आपल्या आनी देवामदल्या 'अद्वैत' अवस्थेचो साक्षात्कार जावन 'हाव कोण?' या प्रश्नाची जापूय आपशींच मेळटा. पळयात कशी ती -

'फुडे जागरूकतायेन
हांव जेन्ना जालों
एकरूप ह्या हारशांतल्या मनशाभितर
तेन्नां लागलो विरगळपाक चराचरांत
अणूरेणूंचे सुक्ष्मतायेन
सगळे म्हजे भितर आस्पावन घेत
आनी हे अवस्थेंत
जेन्ना हांवे पळयलो म्हाका
म्हज्या अस्तित्वरूपी काळाच्या हारशांत
'देवा म्हज्या'
तेन्नाच म्हाका जाली म्हजी खरी वळख
आनी कळ्ळें 'हांव कोण?' तें''

हांव म्हळ्यार तोच. आनी तोच म्हळ्यार हांव. हो अणभव घेवन तृप्त जाल्लें हे मन चराचर सैमान ईश्वराचे रूप पळेता. हेच चिरंतन चैतन्यरूप. ज्ञानेश्वरानी वर्णन केल्लें चित्तत्व.

'पृथ्वी-पुराण' ह्या कवितेंतल्यान त्या चिदानंदाचो आशावाद जागयतना कवी सपन पळेता. मनशा मदल्या एकचाराचें, शांतीचे, समाधानाचें ल्हार तांच्या मनात उसळटा.

'एक दीस मनशांच्या मनातले रानटीपण सोपून
मनीस जातलो भोगतो उदगातो शांतिकायेचो
आनी वसयतलो पृथ्वीचेर दिव्यतायेचो राबितो
मनशा मनशांच्या भावपणाचो'

प्रकाशबाबाल्या कवितांचो हो प्रवास असो चिरंतनत्वाच्या ब्रह्मत्वाचो सोद घेवपी आसा. तेच तळमळीतल्यान तांची कविता जल्माक आयल्या. ती कागदार येवच्यापयलीं कितलीशींच वर्सा त्या विचाराचें बीज तांच्या मनान भिजता ताचेर चिंतन, मनन जावन तें कवितेच्या रूपान फुलून येता. म्हाका तांका 'वैचारिक काव्य-योगी' म्हणन दिसता. ही एक तांची काव्य साधनाच, काव्यातल्यान केल्ली ब्रह्मांडज्ञानाची, ब्रह्मज्ञानाची साधना. उजवाडाच्य दिकेन घातिल्लो या पावलांचो प्रवास चिरंतनाच्या अद्वैत अवस्थेंत येवन सोपता. हाच्याय फुडें ते बरयतले हांतून दुबाव ना. ह्या सुखी जगाखातीर ब्रह्मांड-राया लागी ते मागणे मागतात.

''खिणान खिण ब्रह्मांड-राया राज्य तुजेंच चलचें
राष्ट्राच्यो सरादी मोडून मुक्त विचार व्हावचें''

ही कविता पुरायपणान वाचूक जाय. विश्वांतल्या मनीसजातीच्या सुखाची ही मागणी. ज्ञानेश्वरानी 'पसायदान' मागले तेंय हेच भूमिकेतल्यान. एकदा 'हांव' आत्मतत्वांत विलीन जालो की 'हांव' वेगळो उरचना तो सगळ्यांत आसता. सगळ्यांचो, जाता. होच चिरंतन चिदानंद. बाकीबाब बोरकरांची कविता म्हाका याद जाता

'जीवन त्याना कळले हो
'मी' पण ज्यांचे पक्क फळापरी
सहजपणाने गळले हो''

अशा तरेन बाकीबाबान आत्मज्ञान जाल्या स्तितप्रज्ञाचें लक्षण सांगलां. प्रकाशबाबाच्या साधनेतल्यन तें ह्या स्तितप्रज्ञाच्या अवस्थेंत गेल्यात अशें दिसता.

स्तितप्रज्ञ मनीस सगल्यांमदी आसनय सदाच एकलोच आसता. सगल्यांचो आसुनूय एकलोच आसता. 'जग असुकी वस्तुप्रभा' या ज्ञानेश्वराच्या

उक्तीची याद जाल्याबगर उरना. कारण अशाच मनशाक हें सत्य उमगता.

पुराय रीतीन अंतर्मुख जावन हे शब्दब्रह्म आपणावपाची तांक तांका ह्या दिव्य शक्तीन दिली हांतूत दुबाव ना. तांच्या संदर्भात भौमानेस्त रवींद्रबाब केळेकारान काडलेली उतरा खऱ्यानीच सार्थ जाल्यात. ''पाडगांवकर वाडत गेला तसो जिवितांत खोल खोल देंवतूय रावला.''आनी म्हणून तांका मनीसपणाच्या देवत्वाचो साक्षात्कार जाला. अशें म्हणू येता. हो प्रवास तसो सोपो न्हय. तांच्या ह्या कवितांचो असो वयलो वयलो विचार करून भागना. प्रत्येक कवितेंत एक सखोल विचार आसा. मनीसपणाचो ध्यास आसा. परब्रह्मतत्वाची ओड आसा. मनीस सुखी आसचो ही अंतरीची तळमळ आसा. म्हणून सामाजिक आंगानय हे कवितेचो अभ्यास जावप गरजेचें.

प्रकाशबाबाली कविता म्हाका पुरायेन समजल्या अशेय हाव म्हणचेना. जितकी आकळली तितकी तुमच्या मुखार दवरपाचो यत्न केला. 'चूक भूल द्यावी घ्यावी'.

ह्या विवेचनाचो निमणो आंक शान्तीपाठान करतां.

ॐ पूर्णमिंद पूर्णात पूर्णमुदच्यते<br>
पूर्णस्य पूर्णमादाय पूर्णमेवावशिश्यते<br>
ॐ शान्तीः, शान्तीः शान्तीः

❖ ❖ ❖

# लोककला - एक दायज



अजित पैंगीणकर

भारतीय समाजरचनेक लोकसंस्कृतीचीं तीन रूपां सांगतात. तातूंत नागरी संस्कृती, गांवगिरी संस्कृती आनी रानवटी किवा आदिम संस्कृती. अशीं ही तीन रूपां. नागरी संस्कृतायेंत विंगड विंगड जीवन पद्धतीचो आसपाव आसता. नोकरी, वेवसाय, शिक्षण, हेर कामधंद्याच्या निमतान हेर राज्यांतले लोक गांवांक यतात. त्याच जाग्यार रावतात. आनी आपआपल्या संस्कृतायेचें आदान प्रदान करतात.

गांवगिऱ्या संस्कृतायेंत रावपी चडशे लोक हे कष्टकरी. कामकरी. तरी लेगीत नागरी संस्कृतायेतले लोक कशे रावतात, कशे वागतात हाचेर तांचे बारीक लक्ष आसता. आनी तेतरेन वागपाचो यत्न करतात. थोडोसो नागरी संस्कृतायेचो प्रभाव ह्या संस्कृतायेचेर पडटा. धर्म, वंश, जात ह्यां गोष्टींक चिकटून हे संस्कृतायेतलो समाज वावुरता.

आदिम किवा वनसंस्कृताय ही दोगांपरस सामकी वेगळी. जुन्या परंपरेक, निष्ठेक चिकटून आशिल्ली. प्रचंड दडपण तेचवरी नव्यांचो स्वीकार करताना सावधगिरीन वागपी जीवननिष्ठा, श्रद्धा, आनी विश्वास जपपी ही आदिम संस्कृताय.

संस्कृताय म्हळ्यार वंश, जात, जमात, धर्म, भास, सैम, श्रद्धा, परंपरा, रूढी, विश्वास, विधी इतलेच न्हय तर अमानवी, शक्तीविशी भय आनी

जाती पातीचें, अतिमानवी शक्ती विशीं प्रेम म्हळ्यारच संस्कृताय. दरएका संस्कृतायेची विशिष्ट अशी एक रचना आसा. सामाजिक संस्था आनी मानव समूहाचो जीवन विषयक दृष्टिकोन तातूंत आसा. गोंयच्या लोक संस्कृतायेचेर आदिम संस्कृताय, कोकण संस्कृताय, दक्षिणेकडच्यो राजवटी, उत्तरेकडच्यो राजवटी, मुस्लीम राजसत्ता आनी उणीत ती ४५० वर्सां इतली गोयांत सत्ता भोगपी पोर्तुगीज राजसत्ता हांचो प्रभाव आसा. आयच्या गोंयचेर हे राजवटीचो निश्चितच प्रभाव आसा. गोयांक दुसऱ्या शेकड्यांत आयिल्ली अमीर राजवट. चौथ्या शेंकड्यांतली वनवासी, सव्व्या शेंकड्यांतली चालुक्य, धाव्या शेकड्यांली राष्ट्रकूट, कदंबा, आदिलशहा, तेचबरोबर द्रविड, हेमाड पंथ, यादव, मिश्र, पोर्तुगीज, शेजारच्या राज्याचे मोंगल, मराठे हांचो प्रभाव पडिल्लो दिसता.

गोंयचो विचार जेन्ना करतात तेन्ना शंखावळी ते गंगावळी मेरेनच्या परिसराचो विचार जावपाक जाय. कर्नाटकांतल्या पांच 'कोणा'चो विचार जावपाक जाय. पोर्तुगीजांनी गोंय हे फकत बेट घेतले आनि उरील्लो परिसर कर्नाटकांत गेलो. देखूनच आयच्या गोंयचो विचार करताना 'घुमट' हे वाद्य गोंयातच मेळपी वाद्य. मांड ही संकल्पना फकत गोयांतच दिसता. मागीर तो मांड धालांचो मांड आसूं दी. ना जाल्यार शिगम्याचो. देवचार, दैवा शक्ती, शिगमो, धालो, जती हे गायनाचे प्रकार, लग्न गीतांतली समानताय, गोयांतच पळोवपाक मेळटात. तरंगा ही देवाची प्रतीकां, दशावतारांतल्या शंखासूर काल्यातलो शंखासूर, मत्स्यावतार, गावगिऱ्या वाटागंक आशिल्लो वेताळ, म्हारूं, वार्ग ती जशे आमका पळोवपाक मेळटा तेच वरी तालगडी हो नाचाचो प्रकार लेगीत गोयांत दिष्टी पडटा.

घुमट, धालो, मांड ही संकल्पना गावड्यांनी गोयांत हाडल्यो. तेचबरोबर जितल्यो राजवटी गोयांत आयल्यो ताणीं गोंयचेर प्रभाव दवरताना जे नृत्य प्रकार आमका दिले तांचो नियाळ घेवपाक जाय. लोककला म्हळ्यार लोकांनी आपल्या खातीर सादर केल्ली ती लोककला. दीसभर शेताभाटांत, कुळागारांत काम करपी कष्टकरी समाजान फकत आपलें मन रिजोवपाखातीर हे कलेचो आविष्कार केलो. मागीर विंगड विंगड राजवटींचो प्रभाव ताचेर पडलो. चंद्रपूर म्हळ्यार आयच्या चांदर गावांक ख्रिस्ती समाजाकडल्यान सादर जावपी मुसळनाच. उत्तरेकडच्या मराठा, रजपूत राजवटींनी दिल्ली घोडेमोडणी, कर्नाटकातल्यान येवन गोंयचेर शेक गाजयिल्या राजवटींचो वीरभद्र, गुजरात, राजस्थानातल्या नाचाच्या प्रकाराचो साम्य आशिल्लो तोणयामेळ, गोफ, यक्षगानाकडेन मात्सें साम्य दाखोवपी खेळ, कालो आनी पाश्चिमात्य संस्कृतायेचो मेळ सादपी खेळ, तियात्र, इत्रुज या नाचाच्या प्रकाराचो विचार जाता.

लोक संस्कृताय हो विषय सामको व्हड, विषय. तांतुत
लोक संस्कृती
लोक जीवन
लोक जेवण
लोक वैज
लोक दैवतां
लोक उत्सव-सण
लोक विश्वास
लोक भास
लोक साहित्य
लोक संगीत
लोक नाच आनी
लोक वाद्य ह्या सगळ्या आंगाचो आसपाव जाता.

सगळेच विषय समजून घेवपासारकेच आसात. हांगा फकत लोकनाचाचो विचार करुंया. लोकनाचांत फुगडी, धनगर नृत्य, कुणबी नृत्य, दांडला खेळ, कळशी फुगडी, मुसळनाचा, घोडेमोडणी, वीरभद्र,

वीरामेळ, तालगडी, तोणया मेळ, गोफ, मोरूले, समईनृत्य, फुगडी, देखणी, मांडो, पेणे ते भायर मुसलमान समाजाची रतीब हे प्रकार पळोवपाक मेळटात. परंपरेचो विचार करून त्या त्या वाठारांतली कला हाचो जर विचार जालो जाल्यार घोडेमोडणी हो प्रकार डिचोली, सत्तरी, ठाणे, गोफ, तालगडी - काणकोण, मोरूले-सवर्ण, समईनृत्य - नेत्रावळी, हाणपेठ - नेत्रावळी, रोमट - नेरूल, सुंवारी - फोंडा, दांडला खेळ - चांदोर, वीरभद्र - मोलें, कालें, सांगें, फोंडा, धालो - धिल्लो - काणकोण, जागर - फोंडा, रणमाले - सत्तरी, कळशी फुगडी - काणकोण अशेंच आमका वचचें पडटलें. गोंयचें दायज म्हणून जेन्ना आमी विचार करतात तेन्ना कसलेंच वाजोप नास्तना कमरेक घट्ट कासोटे, माथ्यार भेंडाच्या फुलांचो मुंडासो, फुलांची पगडी, हातांक तोणयो घेवन चपळतायेन एका तालांत आनी सुरांत नाच करपी भाव फकत काणकोणाकच मेळटले. हातांक रूमाल, पायांक घुंगरू बांधून घुमटाच्या तालार 'जे रंग तालगडी जे जे था' म्हणत देहभान विसरून नाचपी काणकोणाकच पळोवपाक मेळटले.

गोयांत विशेष करून हिंदू संस्कृतायेंत बायल आनी दादलो एकठांय नाच करीनात. बांयलांच्या धालांच्या मांडार दादल्यांक विशेष हक्क ना तेच वरी दादल्यांच्या शिगम्याच्या मांडार खेळगड्यांक आरत दाखोवपाचे काम सोडल्यार बायलेक हेर कसलेच हक्क ना.कोणे कसली कला शिकची हाका बंधन ना. लोकमांडावेले सगळेच प्रकार एका विधीन बांदिल्ले आसात. देखून तातूंक भेसळ करपाचो गोंयचे दायज सांभाळतल्यांक अधिकारच ना.

पर्यटन वेवसायाक चालना दिवपाच्याखातीर गोयांत पयलीं कार्निव्हाल महोत्सव सुरू जालो. उपरान्त शिगमोत्सव जालो. सरकार जो शिगमोत्सव करता. तो पारंपारिक शिगमोच न्हय. त्यां शिगमोत्सवांक बायलांचीं रोमटामेळ पथकां वाटेकार जातात. बायलांचे फुगड्यांचे पंगड वाटेकार जातात. मागीर माथ्यार कळशी दवरून सर्कस केल्ल्यावरी रस्त्यार नाच करतात. ही परंपरा जावपाकच शकना. लोकनाच पंगडाक शिगमोत्सव किवा कार्निवाल महोत्सवांक आपोवपा फाटलो जो हेतू आशिल्लो तो फाटल्या कांय वर्सांचो विचार केल्यार सामको असफल जायत आसा. ज्या जाण्टेल्यांनी हे परंपरेची जतनाय केली ते फाटल्यान पडल्यात आनी नकलाकार फुडे वचत आसात. एके दिकेन सांस्कृतीक प्रदूषण जायत आसा. गांवचें गांवपण सांबाळलें कष्टकऱ्यांनी. ताचेर वायट परिणाम जातलो. गोंय सरकारचे कला आनी संस्कृती खातें आंतरराज्य देवाण घेवाण या योजनेतंर्गत गोंयचे पारंपारिक कला पंगड हेर राज्यांक धाडटाले. आयज किदे चल्लां! खंयची तरी एक संस्था १०-१५ भुरग्यांक घेता. सगळे पारंपारिक नाच आपल्या भुरग्यांक शिकयता. तातूंत 'लोक' ही संज्ञाच नासता. काळाप्रमाण बदलपाक जाय. नवे आनी बरें दिवपाक जाय. पुणून लोकनाच, लोक गीतां जर शास्त्रीय संगीताच्या ढंगान गावपाक आनी नाचपाक लागलीं, जाल्यार हे सांस्कृतीक प्रदूषण न्ही कशें? लोकनाचाचो भेस बदलपाक जाय वाजप सुदारपाक जाय. शिस्त हाडपाक जाय हें सगळें करताना लोकनाचाची 'नजाकतता' सांबाळपाक नाका? काणकोणचो गोफ विणताना नाचतात त्यां खेळगड्यांच्या पदन्यासाकडेन पळोवचें, विणता तो गोफ पळोवचो! असले विचार करपी रसिक गोयांत आयज लेगित आसात. वीरभद्र पळोवचो जाल्यार सांग्यावेलो. जागर पळोवचो जाल्यार बांदोडा फोंडेचो. मोरूले पळोवचे जाल्यार सत्तरीचे. धनगर नाच फुगडी पळोवपची जाल्यार विचुंद्रेची. तोणयामेळ काणकोणचो पळोवचो जाल्यार सुंवारी आयकोवची फोंडे काराची. हे दृश्य आमका परत दिसपाक नाका?

मांड ही संकल्पना फुडे कायम उरतली काय ना. हे काळ थारायतलो. शिगम्याक आयज जे दादलेंच नाच करतात तातूत बदल जावन चले-चलयो एकठ्यांय नाच करतले हे लेगित काळच थारायतलो. पुणून हे किंतली वर्सां! आमकां आमचें दायज सांबाळपाचें आसा. पायांक चप्पल घालून शेणान सारयिल्या आंगणात नाचोप ना हो आमचो संकेत. दिवजांच्या भोंवरेक तीन चार कि.मी. मेरेन उघड्या पायांनी हातांत पेटिल्लें दिवज घेवन येवोप ही आमची परंपरा. बदल जावपाक जाय. पुणून नेशिल्लें सोडून कमराक बांदपा इतको न्हय!

खोतीगांवच्या येडा वाठारांत बायलो 'धिल्लो' खेळटात. एक-एक म्हयनो. दादल्यांचो आसपाव ना. हे दायज शारांक पळोवपाक मेळचे ना. बिल्डींगानी रावपी गल्लींक शिगमो सादर करपाची तयारी कांय बायलांनी उक्तायली. ते दायज न्हय. चुकीचो अर्थ घेवन समाजामुखार वतना फुडे किदे? हाचो विचार जावपाक जाय. दूरदर्शन, चॅनल्स आयल्या उपरान्त दिसाळी बंद पडटलीं अशें सगळ्यांक दिसतालें. तशें जालें ना. उलट गोंयचोच विचार केलो जाल्यार दिसाळ्यांची संख्या वाडत आसा. हे कालचक्र आसा. सुख आनी दुख हे खंय दर्याच्या ल्हारांभशेन आसता. परंपरेचे तशेंच आसा. परंपरा तिगतली. हें अशेंच चलतलें. बदल जावपाक जाय. तो स्वीकारपाची तयारी जाय. स्वत:पासून सुरवात करपाक जाय. हांवें लोक गीतातल्या फुगडी, धालांच्या पदांचेर एक कार्यावळ बसयिल्ली. आल्लयो आयच्या भुरग्यांक खबर ना. त्या कार्यावळेची सुरवात आल्लयो पासून केल्ली. जाय त्या जाग्यार पेटी, तबलें, पखवाज, घुमट घेतिल्लें. सगळ्यांनी ताचे पयलीं सुगम संगीत, नाट्यसंगीत, भावगीतांची कार्यावळ पळयिल्ली. पुणून फुगडी, धालांतल्लीं पदां अशीं सादर करपाक जातात, तांची पळयतल्यांनी तोखणाय केल्ली. परंपरेक तडो वचनास्तना बदल करपाक कांयच हरकत ना. पुणून दायज हें दायजच आसपाक जाय.

❖ ❖ ❖

# राखण

आमचे भोंवतणी आशिल्लो पांचवोचार वाठार, थंड वारो, न्हंयच्या तडीक येवपी ल्हारां, झाडांची सळसळ करपी पानां, पावसाचे थंड थेंबे, पयलो पावस पडून वतकच मातयेचो येवपी गंध, शिर्शीर रूतूंत झाडापेडांची जावपी पतझड, पानांची गळटी, सूर्याच्या किर्णांनी मनशाच्या मनाक मेळपी नवी प्रेरणा, स्फूर्त, निळया निळया मळबांत उडपी पक्षी, झाडांचेर खूप फुलपी फुलां हें सगळें पळयतना मन सामकें भुल्लसून वता. आनीं नकळत हें सैम कितलें सुंदर आसा हाची जाणविकाय जाता.

पूण आयज मनशामुखार उब्या आशिल्ल्या सैमीक अरिश्टांक लागूनच मनीस अंतर्मुख जावन विचार करतना दिसता. आनी ती काळाची खरी गरज आसा. मनशाच्या हावरट आनी सुवार्थी वृत्तीक लागून आपणे मागून घेवप वा झपय घालून आपलो फायदो करून घेवप, आपली धन-संपत्ती वाडोवप हेंच ताणे आपलें ध्येय थारायलां. म्हणूनच भोंवतणच्या परिस्थितीचो अभ्यास आनी भविश्याचो विचार करिनासतना वर्तमानांतच तो उमेदीन वावुरता. खरें म्हणल्यार वर्तमान काळातले विचारच



**सुशीला नि. हळर्णकार**

भविश्यकाळाक जल्म दितात. आनी हेच विचार मनशाची सद्सद्विवेकबुध्दी जागी करूंक शकता हें सामकें खरें.

पूर्विल्ल्या काळांत मानवी संस्कृती जेन्ना प्रगत जावंक नाशिल्ली तेन्ना मनीस रानटी जनावरांचें मांस भक्षण करून आपली भूक भागयतालो. पूण कालांतरान मानवी संस्कृतायेची जस जशी प्रगती जावंक लागली तेन्नाच्यान तो फकत आपल्या रक्षणाखातीरच जनावरांची हत्या करपाक लागलो. आयज मात वेगळी परिस्थिती आमकां अणभवाक मेळटा. आयचो मनीस खेळ, मनोरंजन म्हणून आपल्या फायद्याखातीर जनावरांची हत्या करपाक लागला. सरकारी कायदे बंधनां, नियम जरी आसले तरी पिस्तोलां, रायफलीं हांच्या सोदांक लागून मनशाक आपलो जीव त्रासांत घालीनासतना बाबड्या जनावरांक मात मारपाचें व्हड बळगेंच प्राप्त जाल्लें आसा. उदरगतीच्या नावार पर्यावरण आनी रानटी जिविताच्या नाशाक मनीसच कारणीभूत आसा. म्हणूनच तर सैमीक अरिश्टांचो भय दिसानदीस वाडटा. मनशाच्या चुकीच्या वागपानच सैमाचो राग आमकां सोसचो पडटा.

धर्तरेचेर दिसानदीस लोकसंख्या वाडत आशिल्ल्यान तांका लागून चडात चड जमीन वा भूंयेचो वापर जाता. लोकांच्या गरजांखातीरच रानांचो विध्वंस जाता. आनी रानांतल्या मोन्या जनावरांचो, वा पठारी भागांतल्या तशेंच तळ्यांच्या, न्हंयच्य देगेर रावपी जिवांचे आलाशिरेय ना जावंक पावता. हे सगळे प्रक्रियेंत कांय जनावरां बदलत्या परिस्थितीकडेन तडजोड करतात. पूण कांय जनावरांक अशा परिस्थितीकडेन जुळोवन घेवप शक्य नाशिल्ल्यान तीं मरतात. म्हणूनच तर वन्य वा रानटी जिविताची जतनाय घेवनच राखण करप गरजेचें. मानवी वसाहतींचो विस्तार करतना मनशान विचार करूंकच जाय. इमारतींच्या बांधकामासंबंधान इंजिनीयर, स्थापत्य-शास्त्रज्ञ हांचो सल्लो घेवप गरजेचें आसता. धरणां, पूल, रस्ते, इमारती हांचे बांधकाम करतना पर्यावरण शास्त्रज्ञाची परवानगी घेवपाक सरकारान सक्ती करपाक जाय. रनां मारपाखातीर परवानगी दिवंक जायना. अशें केल्यारच पर्यावरण आनी विकास हांचेभीतर संतुलन उरूंक पावतलें. आयज आमचे भोंवतणी जावपी प्रगती, विकास सादपाखातीरच मनीस पैशांफाटल्यान धांवतना सुवार्थी वृत्तीनच वाटचाल करता. ताणे नवे नवे सोद लायले, यंत्रां तयार केलीं, ताणे अंतराळातय भ्रमण केलें. पूण ही प्रगती घडोवन हाडटना भोंवतणच्या सैमाचें संतुलन राखलें ना. झाडांची कत्तल, खनिजाखातीर रानांची नासदूस, विध्वंस केल्लाकारणान पशुपक्षांचो गोंदळ जावप सहज शक्य आसा. मागीर हे पशुपक्षी आलाशिरो आनी आपली खावड, भक्ष सोदपाखातीर सैराभैरा धांवतात. कितलेशेच पशु-पक्षी अशा संकश्टांक लागून मरपाक पावतात.

रानांची झाडांची कत्तल केल्ल्याकारणानच पावस पडूंक शकना. आनी पावस पडनाशिल्ल्या कारणान शेतपिकावळ येवंक शकना. आयज मनशान सुदारी बी-बियाणां तयार केल्यां. सारें, ट्रॅक्टर सारक्यो सगळ्यो सुविधा आसून लेगीत पावसच पडलो ना जाल्यार कितें उपेग? हालींसारा तशी पिकावळ घेवपाक जमीन उरूंक ना. वचत थंय सिमेंट-क्रॉंक्रिटाची रानां उबी करून उद्योग-धंद्याखातीर व्हडलें कारखाने तयार केल्ले दिसतात. मनशाची सैमाविशीची माया मोग, मातयेचो मोग उणो जायत गेल्लो दिसता. कारखाने, फॅक्टरींक लागून सैमाक त्रास सोसचे पडटात. कारखान्यातलो धुंवर भोंवतणची हव प्रदुशीत करता. धुंवरातल्यान भायर सरपी विखाळे गॅस मनशाच्या बलायकेक त्रासदायक थारतात. तशेंच ह्या कारखान्यातल्यान

सोडिल्लें घाण उदक तपासून पळयनासतनाच दर्यात, न्हंयच्या उदकांत सोडटात. ह्या प्रदुशीत, घाण उदकाक लागूनच नुस्ते आनी हेर जीव-जिवाणूं वा झाडांपेडांय मरून वतात. कांयकडेन न्हंयच्या धडेर लोक कपडे धुतात, गोरवां धुतात. आनी उदक प्रदुशीत करतात. सदांच्या येरादारी वाहनांक लागून हवेंत कार्बनडाय ऑक्साइड, कार्बन मॉनोक्साइड पातळटात. भौतिक वस्तूंच्या आधारान चडाच चड सूख सोदपी मनीस दिसानदीस इतलो आळशी जायत गेला की, आपल्याच घरांतल्या कोयराची योग्य तरेन विल्हेवाट लावची अशें तांका दिसना. आयज सगळेकडेनच प्लास्टीकचो वापर जायत आशिल्ल्या कारणान भोंवतणच्या वाठारांतय मातयेंत भरसनाशिल्ल्यो प्लास्टीकच्यो पिशव्यो, डबे, तरेकवार वस्तू तशोच उरतात आनी मागीर जमीन ओसाड, पडीग जावंक लागता. केन्ना केन्ना सुणीं, माजरां, गोरवां कोयराच्या आयदनांनी आपले खाण-जेवण सोदता आसतना नकळत प्लास्टीकासयत अन्न पदार्थ खावन उडयतात. अशा या जनावरांक केन्ना रोग जाल्यार केन्ना मरणय येता. ह्या सगळ्या प्रदुशणाक लागून हवा लेगीत प्रदुशीत जाता. मेल्ल्या जनावरांक योग्य जाग्यार आनी योग्य वेळारच मातयेंत पुरपाक जाय. जळारांपासून जावपी मलेरिया, फायलेरिया सारके रोग, दुयेसां पातळटात. खरें म्हणल्यार मनशाच्या निष्काळजी वृत्ती खातीरच ही दुयेसां वाडटात. निष्पाप प्राण्यांची हत्या करून लाखांनी रुपयांची उलाढाल, वेव्हार आनी सुवार्थी वृत्ती हाकाच लागून जनावरांची संख्या कमी कमी जाता. इतलेंच न्हय तर केन्ना केन्ना तांची साखळी, सरपळी तुट्टा. सैमांत एक जीव दुसऱ्या जीवाचेर आदारून आसता हें सैमाचें चक्र तशेंच सुरू आसप योग्य आसता. दुसऱ्या विश्वझुजाच्या वेळार कितलीच मानवहानी तर जावंक पावलीच, पूण हेर जीवसृश्ट लेगीत ना जावंक पावली. कितल्याशाच दुयेसांक तोंड दिवचें पडलें.

अनादीकाळासावन मनशाक सैमीक अरिश्टांक तोंड दिवचें पडटा, हें आमकां खबर आसाच. भुकंप, वादळां, केन्ना दुकळ, केन्ना पूर येता आनी कितलेशेच लोक बेघर, निराधार जातात. उदकांत व्हांवून वतात. सैमाचो कोप अशें म्हणून आमी दैवाकच दोशी थारायतात. धन-संपत्तीची हानी जाता. मनीस आपल्या विकासाखातीर बांधकामां करतना सैमाचो केन्ना विचारच करीना. म्हणूनच सामकें लागीं लागीं केल्ल्या बांधकामांक लागून पावस पडटकच पावसाचे उदक व्हांवून वचूंक शकना. थोडोसो जरी पावस पडलो तरी 'उदकच उदक' अशी अवस्था जाता. मागीर हें उदक वतलें खंय? त्या प्रश्नाचो विचार आमीच करपाक जाय. वयले वयर विकास प्रगती करतना मनीस बऱ्यो गजाली विसरून वता. आपले जिणेचें ध्येय समजून घेनासतना सादें मनीसपण लेगीत शेणयतात. आमी सैमाचेर कशेतरेन आनी कितले अन्याय आनी अत्याचार हाचो विचारच करीना. आयज वन्यप्राणी जीवन सामकें संकश्टांत आसा. रानांचो विनाश जाल्ल्याकारणान जनावरांकय अन्याय अत्याचार सोसचे पडटात. मनशाचेर मात्सो अन्याय जालो जाल्यार तो न्याय मागपाक न्यायालयांत वता. पूण सभोवतणच्य झाडापेडांनी आनी जनावरांनी कितें करप? कशें जगप? शारीकरणाच्या जाळ्यांत मनीस आयज आपूणच स्वता घुस्पला. ताणे आपणे आपल्याच पायार कुऱ्हाड मारून घेतल्या. मनीसपण नकळत पयसावलां. प्रदुशीत वातावरणांत ताचो स्वास घुस्मटता. आयज जर अशी परिस्थिती आसत, जाल्यार कांय वर्सां उपरान्त आमचे मुखार सैमाचें चित्र कशे तरेचें आसतलें. हाची कल्पनाच करूंक शकना.

सैम मनशाचेर सदांच उपकार करता. सैम

मनशाक खूब कितें शिकयता. सैम मनशाक फकत दीत आसता. आनी मनीस मात घेतच रावता. ताच्या बदला तो सैमाच्या विनाशाक कारणीभूत थारता - सैमचक्राकडेन बारीकसाणेन पळयल्यार लक्षांत येतलें की, एका रूतू उपरान्त दुसरो रूतू येवप थारिल्लेंच आसता. सैम मनशाक मनीसपण शिकयता दुसऱ्याक सूख दिवंक शिकयता, त्यग शिकयता. राती उपरान्त दीस आनी दिसाउपरान्त ात बरें - वायट, दीस-रात म्हणल्यार सुख-दुखाचो जसो किते आपालिपीचोच खेळ अशें म्हणपाक जाता. सैम होच मनशाचो खरो गुरू. सैमाक मान दिलो ताचो आदर केलो जाल्यार मनशाक जैत मेळटलेंच. रातदीस सैमाचेर जावपी अन्याय अत्याचार थांबयले जाल्यारच मनीस फुडल्या पिळगेक कितेंयतरी बरें दवरूंक शकतलो. तशे प्रयत्न जाले तरच मनशाक ताचो फायदोच जातलो. महाराष्ट्रांतल्या ठाणे हांगा २००० वर्सापासून पर्यावरण शाळेचो उपक्रम सुरू केल्लो आसा. शाळेंत सानच पर्यावरणाच्या अभ्यासाक सुरवात करप हें मनशाच्या फायद्याच्या नदरेन बरी गजाल जावन आसा. जनजागृती करप हे मुखेल उदिश्ट दोळ्यामुखार दवरून सैमीक रंग, इकोफ्रॅडली ह्या गजालीचें म्हत्व, अशे तरेचे बरेच उपक्रम राबयता.

मानवी जिणेचो विकास तर जावंकच जाय. पूण विकास घडयतना पर्यावरणाक लुकसाण जावंक जायना ही जतनाय घेवप सामके गरजेचे. कारण पर्यावरण, वन्यजीवन आनी मानवी जीवन हाचे घट्ट नातें निर्माण जालां. मनशाच्या विकास घडोवपाच्या सुवार्थी वृत्तीक लागून हें नातें तुटपाक लागलां हे लक्षांत दवरूनच पर्यावरणाक वा बाकीच्या घटकांक त्रास जावंचे ना अशेंच आमचें वागप आसपाक जाय. तर सैमाची आमी जतनाय घेवंक पावतले. मनशान कितलीय धनसंपत्ती मेळयली आपूण गिरेस्त अशें म्हटलें तरी सैमामुखार मनीस ल्हानच आसता. कारण सैमामुखार मनीस याचक जावनच याचनाच करीत आसता.

❖ ❖ ❖

# बोन्साय

केन्ना केन्ना कामां कशीं आपसूक जावन वतात आनी केन्ना कितलेय यत्न कर, वेळ-काळ साधून चल, कामांत आडमेळीं येत रावतात. तीं जाता म्हणसर मनशाची शक्त काबार जाता. अशावेळार दिसता कसली तरी एक शक्त आसा जी सगल्या गजालींचेर नियंत्रण दवरता. ताकाच एकादे देव म्हणटात जायत.

सगलेंच कितें आपले विरूद्ध वतकच, घाल्लें पावर उरफाटें पडूंक लागतकच आपले आशेची पण्टी पर्जळीत दवरूंक मनीस देवाचेर भरिभार घालता. आनी आपले कडच्यान आनी आपणें प्रमाणीत केल्ल्या विज्ञानाकडच्यान जायना जातकच प्रतिकूल परिस्थितींतल्यान तड मारूंक चमत्काराची अपेक्षा करता. चमत्कार! फकत तोच सगल्या वायट गजालींतल्यान तडीक पावोवंक शकतलो ही आस.

ही अंधश्रद्धा न्हय. हो आशावाद. दुर्दम्य आशावाद! तीव्र इत्सा.

तर्कनिष्ठ रावन आयले पेले गजालींचेर विचार करतकच भेश्टावंक सोदतल्या भयांक पयस दवरून धीर दिवंक आयले पेल्यान घडिल्ल्या अनपेक्षीत गजालींचो आधार घेवन धरिल्ली चमत्काराची आस.

अशावेळार मनशाचे अगतीकतेचो फायदो घेवंक तयार जातात संत म्हणून घेवपी संधीसाधू.



किरण म्हांबरे

तांचो हेत आपलो सुवार्थ.

नदरेचे विभ्रम साधून समान्यांच्या माथ्यावयल्यान वचपी तत्वज्ञानां सांगूंक आयलीं म्हण्टकच तांचे फाटल्यान भक्तांचो ताफो तयार जाता. पैशांचो स्त्रोत येता. पैशांतल्यान दलाल पोसूंक मेळटात. दलालांकडल्यान प्रसिद्धी मेळटा पैशांचो ओघ वाडटा. पैशां वांगडा सत्ता येता. मनीस बळ वाडटा.

भक्ताणांक हाताकडेन धरून लोकाच्या कमकुवत मनांत भिरांत घालून कामां करून घेवप मागीर सोपें आसता. पैसो, सत्ता, उपभोग निमाणें बायलांचें लैंगीक शोषण. भुरगें म्हण पळोवपना, अजाण म्हण पळोवपना, निरागस, कवळें म्हण पळोवपना आपली वासना भागोवपामुखार कोणाक कसले भान उरना.

दुसरे वटेन विलासी. पैसो आनी वाडिल्लें सामर्थ्य हाकालागून कांयजाणांक जगांतली प्रत्येक वस्त आपणें जायतशी भोगपाखातीरच आसाशी दिसता.

हातांत पैसो, सत्ता येतगच बायल-भुरगीं आशिल्ल्यांक लेगीत दुसरी बायलमनीस एक भोगवस्तच कशी दिसूंक लागता आनी ती जणूं आपलेखातीरच आसा अशेतरेची तांची वागणूक आसता.

सगल्यां फाटल्यान मूळ दादल्यांची प्रवृत्ती. बंधनां बायलांचेर. दादल्यांची ही प्रवृत्ती विकृत जाली तरी ती सहज प्रवृत्ती म्हण तिचें समर्थन करप आनी तिका जल दिवप. तोच पुरुषार्थ म्हण मिरोवप आनी वयटाचें खापर बळी थारिल्ले बायलेच्या माथ्यार मारप ही संसाराची रीत जाल्या.

बोन्साय नांवांचो एक प्रकार आसता. झाडाच्या गेपाचें मुखेल मूळ कातरून ताका सरी आंवुंळटात. तें झाड मागीर नाजूक जाता. मुक्तपणान वाडूंक शकना. पिंपळ वडासारखे मळब व्यापून गवपी रूख कुंडेंत रोवपा इतले खुरटून वतात.

तांचो आकार आनी आकारमान मागीर दुसरें थारायता. तांची जतनाय दुसरो घेता. अन्न, उदक दुसरें दिता. ताच्यो गरजो दुसरो भागयता. ताका संरक्षण दुसरो दिता.

अशा बोन्सायाक फळां आनी फुलांय जातात अशें आयकलां. म्हळयार दुदांत साखर. अशीं झाडां वाडयतल्यांखातीर ती सोबितकायें बरोबर उत्पन्नय दिवपी पुण ताचे इत्सेप्रमाण वाडपी आनी ताचो अहंभाव पोसपी, ताका वोर्र मेळोवन दिवपी वस्त थारता.

आपले ताकदीचेर मुक्तपणांन वाडिल्ल्या झाडाचो खांदो मोडून घरार पडपाची भिरांत ना, भितरल्यान मुळां रिगून बुन्यादीक मार लागपाचो भंय ना.

झाडाक मात मुक्त वाडपाचो हक ना, सवण्यां सुकण्यांक आलाशिरो दिवपाचो अधिकार ना. दुसऱ्याक सांवळी दिवपाचीय तांक ना. कारण ताचें जीवीत दुसऱ्याचे आधीन.

खंयचेतरी एका बेसावध खिणाक बायलमनशेन आपल्या मुळाक सरी आवुंळपाची संद दादल्याक दिली आनी सासणाची बोन्साय जावन बसली. हातापांय वावुरले तरी भितरल्यान घटपाण ना. मुळां धोंगसून पालसणां निखळावपाची तांक ना. असहाय जावन दुसऱ्याच्य हातांतलें ती बावलें जाल्या. मानसीक पातळेचेर दुबळी जाल्या. आनी म्हणूनच परावलंबी जाल्या.

परसुवादीन जाल्ली बायलमनीस आज आपली स्वताची निर्णय शक्त शेणोवन बसल्या. आपल्या विचारांचेर खंयच्या तरी दादल्या मनशाची म्होर बसतकच तिका समाधान जाता. मागीर तो घोव आसूं

नाजाल्यार आयच्या काळांतलो बॉयफ्रेंड. आपल्या स्वतंत्र दिश्टीकोनाक जागोवन आपले नदरेन जग पळोवपाचें ती विसरून गेल्या. देखून दादलो मनीस लायता तसो आपूण गजालींचो अर्थ लायता.

मन नावांची एक सुवात मनशाक जनावरांपरस वेगळें थारायता. देखूनच मनशांमदीं नातीं जल्माक येतात. पुण आयच्या जगांत बायलमनशेकडेन एक भोगवस्त म्हण पळोवपाची दादल्या मनशामदली विकृतीक लागून तो नातीं लेगीत विसरता.

अस्तुरी मानसीक गरजेक लागून नातीं जोडपाचो आनी तिगोवपाचो यत्न करता आनी दादलोमनीस ताचो गैरफायदो घेवन तिचें लैंगीक शोषण करता अशेंय दिसून येता.

दादल्यांच्या हे प्रवृत्तेक आज पुरुषार्थ म्हण मिरोवप जाता आनी ताचेवरवीं बायलांच्या वांट्याक जें दुख्ख येता ताकाय जापसालदार बायलमनशेकच धरून तिका दूषण दिवप जाता हाका आमी समाजाची रीत म्हणटात. ही रीत बदलावपाचो यत्न आमचेकडल्यान अजूनमेरेन कित्याक जायना हें एक कुवाडेंच. बायलांचेर बंधनां घालून तिका शिस्तींत दवरपी मनशाक दादल्यांची प्रवृत्ती जी दुसऱ्या मनशाक दुख्ख दिता तिका आळाबंदा हाडूंक कित्याक येवं नये? संस्कार, संस्कार म्हणून आड्डप ते कोणाखातीर? दादल्यांची प्रवृत्ती संस्कारांनी आळाबंदा येना?

दादल्यांच्या हे प्रवृत्तेक लागून बायलमनशेक जातल्या मनस्तापांची, शारीरीक वेदनांची आनी बौद्धीक क्लेशांची जाणवीकाय दादल्यांक साप्पच नासता अशें न्हय. पुण तांकां तें जाय आसता आपल्याक वरचढ म्हणून घेवंक. आपलो दबाव राखूंक आनी आपली सत्ता चलोवंक. देखूनच महाभारतांत द्रौपदीचें वस्त्रहरण जालें. आनी आयच्या युगांत बायलमनशेक ख्यास्त करपाखातीर तिचेर धा-बारा जाणांकडल्यान बलात्कार करपाचें फर्मान येवंक शकलें.

बायलमनशेच्या आत्मसन्मानाक तुच्छ लेखून तिका उपभोगाचे वस्तीं परस ऊणाक लेखतगच दादल्यामनशाक जैत जोडिल्ल्याचो आनंद जाता. हातांत पैसो आनी सत्ता येतगच मनशान दाखयिल्ली ही आपली श्रेष्ठता!

हांतूंत एखाददुसरो कायद्याच्या कचाट्यांत सांपडलोच जाल्यार बार्कीच्यांक ताचेविशीं दुख्ख जाता.

शिक्षण, आर्थीक स्वातंत्र्य, कायदे करून अस्तुरेच्य हातापायांक बळगें हाडपाचे यत्न जाले तरी तिच्या मुळाक आंवुंळिल्ली सरी अजून तुटना. तिची विचारसरणी मुक्त जायना आनी मानसीकता बळगें घेना.

खरें म्हळ्यार खंयच्याय प्राण्याची मादी आपलें आनी आपल्या पिलांचें पालन पोषण आनी संरक्षण करूंक समर्थ आसता. मनशाचे बाबतींत मात ती असहाय. कारण तिका समाज लागता. बायलांचें अशेतरेन शोषण करपाचे नदरेनच सगली समाज रचना जाल्या काय कितें असो दुबाव येता.

हालीं हालीं फॅशनीच्या नांवांन बॉयफ्रेंड गर्लफ्रेंड ही संकल्पना भुरग्यांच्या मनांत रिगोवपाचो हो लैंगीक शोषणाचो नवो प्रकार बी न्हय मूं असोय दुबाव येता.

जायत्या लेखिकांनी दादल्यांविशींच्या अणभवांचेर बरयलां. कोण विधवा, कोण घटस्फोटीत, कोण अविवाहित अशा एकसुऱ्या बायलांक पळोवन सभ्यपणाचो बुरखो घेवन वावुरपी मनशांक आस जाता. ही आपल्याक मेळटली काय दिसता तांकां. मागीर तिका मजत करपाच्या निमतान ते तिचे लागीं येवंक पळयतात आनी तिची लैंगीक गरज भागोवपाच्य उदात्त हेतूचो आव हाडून तिचे कडेन संबंध दवरूंक पळयतात.

बायल फसली जाल्यार तिका आपणें पटयली

म्हण बढायो मारप आनी तिणें त्या दादल्याक लागीं केलोना जाल्यार तिचेविशीं अपप्रचार करून तिचें नकळटां चारित्र्य हनन करप. दादल्यानी एखाद्रे बायलेविशीं वायट उलयलें जाल्यार बॉन्साय जाल्ली दुसरी बायल ताचेर विस्वास दवरता.

बायलांचे लैंगीच शोषण करप हो जर अपराध आसत जाल्यार ज्याच्या मनांत सुद्धां तशे विचार आसतात तोय तितलोच अपराधी आसूंक फावता. मनशाच्या मनाची संवेदनशीलता जर शाबूत आसा जाल्यार दादल्यांनी बायल मनशेक एक मनीस म्हण पळोवचें आनी तिच्या विशीं आपल्याक जायतशो कल्पना करीनासतानां तिच्या वागपाचो आपल्याक जाय तसो अर्थ लायनासतनां तिका तिच्या इत्से प्रमाणें वागूंक दिवचें.

उक्तो जालोना तरी गुन्यांव करपी गुन्यांवकारच आसता. आनी करपाचें धाडस जालेंना तरी मानसीक पातळेचेर तशीं सपनां पळोवपीय तितलोच नीच आसता.

❖ ❖ ❖

# नवलिका - बायलांच्या प्रस्नाचो माच



डॉ. वृषाली मांद्रेकार

बायलांनी बायलांचेर बरवप केल्यार तांतुतल्यान आपणाले अणभव खोलायेन उक्तावपाक मेळटात, तांतुत वास्तव आसता अशें बरेच विद्वान म्हालगाडे म्हणटात. कोंकणी नवलिकां हाका आडवाद ना. निर्बला आसू नाजाल्यार पाषाणकळी आसु खांडेपारकाराली अंतरपाट आसू नाजाल्यार साहित्य अकादमींचो पुरस्कार फावा जाल्ली भोगदंड आसू सगळ्या नवलिकांतल्यान समाजात वावुरपी बायलांच्या विविध रूपाचो वाचकाक दिश्टावो करून दिला. अस्तुरी एक तर मोगी एक बायल, नाजाल्यार घरकात्र अशे तरेची रूपां उक्तायतानाच संघर्ष करपी सपना सारकी एक अस्तुरी बी तांच्या नवलिकांतल्यान आपणाल्या प्रस्नाक वाचा फोडटा.

'इतली रात करून आयिल्ल्या घोवाक किदेंच विचारपाचो म्हाका अधिकार ना' म्हणपी सपनांक समाजातल्या दादल्यांच्या तोंडावयलीं म्होवाळीं काडून उडोवची आसात. बापायन बलात्कार केल्याउपरांत ताका विकलें. विकलेले वस्तुक जश्यो आपणाल्यो भावभावना, विचार, चिंतप, सुख-दुख्ख कांयच नासता तशे तरेची सपनांची जीण जाली. ह्या संवसारातल्या समस्त दादल्याविशीं ताचें मन विटिल्लें. दादल्यांक वासनेबगर कांयच येवजना अशे ताका

दिसता. ताचें लग्न जाता तें लग्न म्हळ्यार बापायन बळजबरीन केल्लो एक वेव्हार...हो रूक्ष वेव्हार पसंत नासलो तरी ब्र काडपाक जागो नाशिल्लो.(५१) तरीय बी आपणाक एकाच जाग्यार दवरपाखातीर आनी बापायचो मार आनी अत्याचार सोंसचेपरस हें बरें म्हुण तें बापायन विकलेल्या चल्यावांगडा लगीन जाता. लग्नाची पळयल्लीं सपनां फाफसुन वतात. 'परकी दादल्याक आपले बायलेकडेन संबंद जोडपाची परवानगी दिवपी घोवाची ताका किळस येता. एका तेपार घोव परमेश्वर आशिल्लो पुण आता तो घोव तसो उरूंक ना. लग्नाची पयली रात रजनीकांतावांगडा घालोवच्या पयलीच शिरीष (घोवाचो इश्ट) ताची कूड भश्टोवन उडयता आनी हें सदांच चलत रावता.

बायलमनीस इतली फुडे पावली. अंतराळांत पावली, सातसमुद्राभायर पावली, सगळी विकसित जाल्ली शास्त्रां आपणावन आपणालो विकास केलो पूण दादल्यांनी तिका फकत 'भोग्या मानल्या; हे सांगपी ही नवलिका आयज समाजात अश्यातरेच्यो बायलो, चलयो, चडकरून गरीबांगेल्यो, जांका आर्थिक पाठबळ ना,अश्यो अस्तुरी दादल्याच्या भकीक पडटा. लग्नाचे पयलेच रातीक सपनांक बापुय, घोव आनी ताचो इश्टांमदीं हो वेव्हार जाला. बापायन काडिल्ल्या रीणाखातीर ताचो बळी दिला. 'बापायन विकलां तुकां म्हजेकडेन....ते रीण तशें फारीक जावपाचे ना, तुज्या बापायन ते तुकां म्हजे सुवादीन करून मेकळें केला, आतां तुजेर सगळो हक्क म्हजों,....तुजो बापुय म्हजे पाय धरूंक लागलो, हांवे म्हळे तुगेले धुवेकडेन जर म्हजे लग्न लावन दिता तर तुजें सगळे रीण माफ.'' ह्या सगळ्यां उतगंवयल्यान हे दिसुन येता कि चलयेक आपणांविशींचो निर्णय घेवपाचो कांयच अधिकार ना. कदीम काळासावन चलत आयिल्ल्या परंपरेनुसार बापायन नाजाल्यार घरांतल्यांनीच निर्णय घेवपाचे. तकली बागोवन तिणे फकत आयिल्ल्या प्रासंगानी दसऱ्याक मागिल्ल्या बोकड्या मारकी कोयत्यापोंदा मान दिवपाची. अशे हे कितले दिस चलतलें? महाभारतात द्रौपदीन आपणाचेर जाला तसो अन्याय फुडे बायलांचेर जावचो न्हय म्हुण युध्दांक आमंत्रण दिलें. तिका दिसतालें आपुण वांगी गवली जाल्यर हे दादले बायलांचेर असोच अन्याय करीत रावतले. पुण अन्याय जावप आजुनमेरेन तरी थांबलोना.

समाजाक फटोवपाखातीर जशे शिरीषान सुशमाचे आवयवांगडा लगीन केल्ले तशेच रजनीकांतान सपनाक आपणायल्लें. ताचे आनीक एके बायलेवांगडा सम्बन्ध आसतना लोकांच्या दोळ्यांनी धुल्ल घालपाखातीर तो हें लगीन जाल्लो. 'वासना हावें ह्या आदीच भागोवन घेतिल्ली आसा आतां तुजेकडेन लग्न जालां तो फकत समाजाक फटोवपाखातीर' आमच्या घराफाटल्यान एक बायल आसा तिजेकडेन म्हजो संबंध आयला आनी एक भुरगोय जाला. तू म्हजी हक्काची बायल'' कितले जळजळीत वास्तव हें, समाजात आशिल्लीं अशीं ढोंगी, प्रतिष्टित मनशांचीं असलीं रुपडी उगडी करून लेखिकेन बायलांच्या प्रस्नाक बरेतरेन वाचा फोडल्या. 'म्हजी कूड ही ताच्या हिसपान बाजारात घेतिल्ली एखाद्री विकती वस्त जावन पडिल्ली. ताज्यान ती कशेय रीतिन भोगुक येताली. ताका नाका तेन्ना खोंट मारून शेंवटून उडोवकूय येताली. 'बायलांच्या, तांच्या भावनाक, तांच्या संवेदनशीलतायेक, कांयच मोल उरूंक ना. पोरसांतली आपणाक आवडिल्ली भाजी हाडची, शिनची आनी खांवची तशेच तरेचे ताज्याहून पाश्ट जीण बायलांवाट्याक आयल्या आनी तिका जर तांतुतल्यान भायर सरपाक जाय जाल्यार रसरसत्या इंगळ्यार पावलां

दवरून होमखण्डांतल्यान भायर सरची पडटली. पुण हो मार्ग निर्बळेखातीर उरूंक ना. हो मार्ग फकत सुशमाच्या आवय सारक्या बायलांखातीर आसा. जांच्या फाटल्यान आर्थिक पाठबळ आशिल्ले आवयबापायचें घर आसा. सपनाच्या तर बापायनुच ताका नागयल्लें. वासनेचे शिकार केल्लें. तें कोणाच्या भरवंशाचेर त्या घरांतल्यान भायर सरतले? "चोवीस वरा जाली हांव येवजितालें पुण हांतुतल्यान सुटपाचो उपाय गावचो ना. तरीय हांव येवजित आशिल्लें. पोटांत वाडटल्या अर्भकाचो बापूय कोण हाचो हांव अदमास लायतालें. पुण म्हाका खात्री जायना जाली. लग्नाआदी बापायन केल्लें तें कर्म! लग्नाउपरांत तिळसनां शिरीश आनी रातिचो घोव.' मागीर विचार करून येवजुन पोटांत आशिल्ल्या गर्भान जल्माक येवन आनीक अत्याचार करचे न्हीं म्हुण ताजेकडेन फकत आत्महत्येचो पर्याय उरता. अश्या चलयांनी फक्त आत्महत्या करप होच ताचेर उपाय? कितलींय भाषणां दिली जाल्यार हे प्रश्न सुटावे जावचेना. बायलांचे प्रस्न सुटोवंक जाय जाल्यार तांका बरोबरीची वागणुक दिवची पडटली हें बी लेखिका सुचोवक सोदता.

समाजशास्त्रीय नदरेतल्यान पळयत जाल्यार पयलींसावन चलत आयिल्ले परंपरेनुसार एका दादल्याचे दोन बायलां वांगडा संबंध नाजाल्यार एके बायलेचे दोन दादल्यावांगडा संबंध नाजाल्यार बायलांचेर दादल्यांनी केल्लो बलात्कार, बापायन धुवेचेर केल्ली बळजबरी, अशे तरेच्या देखी पळोवंक मेळटात.

भारतीय समांजात अशी कांय मुल्यां आसात. तांतुत बायलेक म्हान स्थान आसा. देवा उपरांत अस्तुरेक म्हत्त्व दिल्लें आसा. यत्र नार्यस्तू ज्युज्यन्ते म्हणुत जंय बायलेची पूजा जाता थंयच देवता रावतात अशें म्हणटात. ज्या सुवातेर बायलेचो अपमान जाता थंय दुख्ख पातळिल्ले आसता असो संवसारात समज आसा. पुण आयज जसो जसो समाज आधुनिक जायत आसा अस्तमतेकडल्या राष्ट्रांचे ताचेर वर्चस्व जांवक लागलां तशें-तशें भारतीयांच्य मनांतले आपणाले संस्कृतीविशींचे जांव मूल्यविशींचें येवजप बदलत आसा. पयलीं घोवाक देव मानतालीं ताचीं फुलां घालून जरी पूजा केली ना तरीय बी मनातल्या घुमटेत खंयतरी आदराची सुवात आसताली. बायल आनी समाज तांच्या निर्णयाक मान दितालो. आयज चडश्या बायलांनी ही सुवात न्हयकारल्या. बायलेक आधुनिकीकरणाच्या नांवा सकयल घोव म्हळ्यार बंदखण जाल्या. जेन्ना लेजली कुवेटाच्यान येता तेन्ना जेन्ना तो एकदा गेल्यार पुरो म्हण मागता. आपणाक इश्टांवांगडा चडात-चड वेळ घालोवंक मेळचो म्हुण तें मागता. ही अशी नीतिमुल्यां किद्याक बदलत गेल्या हाची जाप दिवप भोव कठीण. पुण आयज काल हें एक दोन घरां सोडून तिसऱ्या घरांत शेर्त पळोवपाक मेळटा. दादलो बायलेचो शारिरीक संबंध आनी तातुतल्यान निर्माण जाल्ले प्रश्न मागीर ते कोंकणी साहित्य जांव, मराठी साहित्य जांव नाजाल्यार हिन्दी साहित्य जाव. हिन्दीतले मृदुला गर्गाची 'कठगुलाब' जाव 'चित्तकोबरा', मैत्रेची पुष्पा ची 'चाक' ही बायलांनी बरयल्ल्यो कांय नवलिका अश्याच तरेच्या प्रस्नाक वाचा फोडटा.

त्या त्या प्रदेशाची खाशेलकाय घेवन साहित्य निर्मणी जाता. थळाव्य सैमावांगडाच थंयची संस्कृताय, जाती, धर्म, आनी तांच्या भोवतणी आशिल्लो समाज हांचें वर्णन साहित्यांत जाता. गोंयातली बायल दिल्ली, मुंबय सारक्या महानगरातली अतिआधुनिक बायल नासली तरी बी तांच्यो मुळाव्यो भावना सारक्योच आसता. मागीर ते दिल्लीच्यान आयिल्लें, अंनुष्का आसुं येता नाजाल्यार हांगा रावपी जेमा. अनुष्काचेर आशिल्लो अर्विल्ल्या संस्कृतिचो प्रभाव स्पष्ट दिसुन

येता. ताका शारांतली सो कॉल्ड हाय संस्कृताय, अति मॉडर्न विचार पटना. मनश्यांच्य संवेदनशीलतेक, भावनेक उणाक लेखिल्ले तांका आवडना. ताका दिसता घर म्हळ्यार फकत वण्टी न्हंय. तांतुतले फर्नीचर, कार्पेट तिजुले न्हंय, पार्ट्यो, खाण जेवण, बरी उंची मुस्तायकी न्हंय तर त्या घरांत रावपी मनशां, तांच्या मदली नातीं, आवय बापाय विशी भुरग्यांक आशिल्लो आदर, आनी आवयबापायक भुरग्याविंशी आशिल्ली ओड हे सगळे मेळुन त्या घराक घरपण दिता. पुण अनुष्कागेर सगळे उरफाटें. मॉडर्न विचाराचे अनुष्का गुरवारपण थांबोवपाच्यो गुळयो फकत लगीन जाल्या बायलांनीच किद्याक घेवच्यो असो अनुष्काक प्रतिप्रश्न विचारपी करिश्मा आनी ताका लाडावन, ताचें समर्थन करून वायट वागणूकीक पाळो दिवपी आवय. प्रत्येक गजालीक 'हय बा' म्हुण मान हालोवपी नंदीबैलासारको अनुष्काचो बापूय आनी मुळांत त्या घरांत एकामेकांविशी मात्तुय ओड नाशिल्लीं मनशां अनुष्काक मानवना. तांका दिसतां मायेमोगान, आस्थेन वासपुस करपी ह्य घरांत कोण ना आनी त्या लोकांचो सोद घेवपाक ते गोयां येता. मावशेगेर ताका हो मोग मेळटा, आनी दुसऱ्याच खिणाक ताका मावश्यासारको मनीस आपणाल्या जिवितांत येवचो अशेयबी दिसता. इतले सुसंस्कृत चलयेचे, जे करिश्माक सदांच बरे रीतिन वागपाक सांगतालें, ताचे अशे चिंतप आसतलें हाचेर पयली विश्वासुच बसना. ताचे शारीरिक आकर्शण पळयल्यार अशे दिसता कि बायल ही फकत दादल्यावटेन त्याच नदरेन पळयता कांय किदें? ती मयुराक आपल्यावटेन आकर्शित करून घेवन कलकत्त्याक वता. आयच्या काळांत लग्नासारक्या पवित्र बंधनात आपणांक बांदीनासतना, 'आवय' जावपाचे एक फॅड समाजांत आयलां. अनुष्कान जरी त्या उद्देशान मयुराक लागी करूक नाशिल्लो तरीय बी तें पोटांत वाडपी गर्भाक वाडयता, ते मयुराच्या संवसारात कसलोच घुस्पागोंदळ घालीनासतना. अशे वागपी अनुष्कान हें आधुनिकतेच्या मळार अस्तमतेकडले संस्कृतायेवटेन उखल्लेलें पावल आसा.

जेमा आनी रॉबीनाचे बी सम्बन्ध अशेंच, हांगा लेगीत शारीरिक सम्बन्ध आनी तेखातीर बायलेन केल्लो घोवाचो त्याग. लेजली विश्वासान आपणाले तन, मन, धन सगळे जेमाच्या सुवादीन करता. पुण जेमा, हे सगळे न्हयकारता फकत धन तितलें आपणायता. किरिस्ताव जाव हिन्दू बांयलांक घोव हो सातजल्मांचो वांगडी आसुक जाय ही संकल्पना आता नष्ट जायत गेल्या. एकाच जल्मात घोव नाका जाला. हें जें किदें मोगाचे त्रिकोण जाल्यात तांतुतल्यान आमी आमच्या फुडल्या पिळगेचेर किदें संस्कार करूक सोदतां? एकवटेन पाश्चात्य लोक भारतीय संस्कृताय, आचर विचार आपणावक सोदतात जाल्यर दुसरेवटेन भारतीय लोक चडान चड अस्तमतेकडल्या राष्ट्रांची संस्कृताय लागीं करूक सोदतात. अंस्तमतेवटेन भारतीय संस्कृतायेचे वारे व्हांवता त्य लोकांक दिसता जर मनशांक स्थैर्य आनी बरी भलायकी जाय जाल्यार एक पत्नीव्रत नाजाल्यार एक पतीव्रताचे आचरण करपाक जाय.

शिकुन-सवरून चलयो आता स्वत:चे निर्णय स्वताच घेवक सोदतात. पुण आंवय-बापुय तांच्या बऱ्याखातीर जे चिंतता ते बी वायट न्हीं. अश्याच गोंदळात पडिल्लें जेमा आवय बापायच्या सांगण्यावयल्यान कुवेटाक आशिल्या लेजलीक हयकार दिता आनी रॉबीनाचो फकत एक इश्ट म्हुण स्वीकार करता. पुण जीणेत ताका लेजली परस रॉबीनुच चड सुख दिवक शकता हे कळ्ळयांउपरांत तें इश्टाचे सुवातेवयल्यान रॉबीनाक

घोवाचे सुवातेर हाडटा. असो चलयांनी विस्वासघात करप हे कितलें उचित? पयशे मात लेजर्लीचे आनी सांगात मात    रॉबिनाचो हे अशे जेमान वागप समाजाच्या नदरेन कितले योग्य? अनुष्कान लेगीत मावशेचो विश्वासघात करप तिच्या संवसारात शांत, नितळ उदकांत खंवदळ करप हे कितले बरोबर अशे तरतरेचे प्रश्न ह्या नवलकाणयांतल्यान उप्रासल्यात.

दोन आधारभूत शक्तिंचो मेळ ह्या जगांतल्या सृष्टिखातीर जाय आसता. हो मेळ सृष्टिचो आत्मो पुरूष आनी सृष्टिचे बल प्रकृतिकडल्यान जावपाक जाय. तांतुतलो पुरूष म्हळ्यार दादलो हे क्रियाशील तत्व आसता. प्रकृतिक तीन आंगा आसतात. सत्व राजस आनी तामस. सगळी वैशिष्ट्यां आसुन लेकीत प्रकृति मदीं क्रियाशील जावपाची इत्सा आसना. सृष्टि चीं निर्मणी फकत पुरूष आनी प्रकृतिच्या मेळांनुच साधता.

हें सगळे सांगपाचो फकत इतल्याच खातीर यत्न करतां की दार्शनिक भाशेत उलयता आसतना दादलो आनी बायलेचो (म्हळ्यार प्रकृतिचो) सम्बन्द आयल्या बगर सृष्टि जायना. वयर उल्लेख केल्ल्या सिध्दान्ताप्रमाण भोगदण्डात 'रॉबीन आनी जेमा चो'' आनी पाषाणकळींत मयूर आनी अनुष्काचो सम्बन्ध आयल्याबगर तांची सृष्टी जल्मांक येवक शकना. म्हणुनच हांचो संबंध ह्या नवलिकांनी आयला जायत.

आंतोनेता सारकी जाणटी आपणांक आदार दिवपाखातीर च्या चो एक घोट ताळ्यार पडटलो म्हुण बऱ्या संस्काराची, घराणे पळोवन शिकिल्ली सून हाडटा. पुण चिंतता ते साधलेले जाल्यार अशी दशा किद्याक जातली आशिल्ली. सून हाडल्याउपरांत च्या चो घोट तर नाच, परवंल्यालेगींत सादी वासपूस करीनासतना सून भायर सरता. असले वागणुकीखातीर सुनेक आपुण घरांत किद्याक हाडली जाणट्याक भुरग्यांनी आदर दिवचों न्हय जाल्यार आनी कोण तांका पळेयतलो?

सीमा चें विश्व तर मयुराभोवतणी घुस्पल्लें आसा. ताचें आपणाल्या घोवाशिवाय पान हालना. मयुर ताचो केन्नाच विस्वासघात करचोना इतको ताचो घोवाचेर विश्वास चलयेक जल्म दिल्यां उपरांत तर तांकां स्वर्गाक तेंकपाक दोन बोटां उणी उरिल्लीं. दोगायची जशी किदें एकमेकांखातीरच देवान निर्मणी केल्ली. सीमा मयुराच्या संवसारांत आपणावटेतल्यान कांयच उणे दवरिना. ताच्यो आवडीनिवडी ताचे खाण-जेवण सगळे नमळायेन आनी बरेतरेन करता. सगळी जापसालदारकी सांभाळटाना मयूरान ताच्या वांगडा अशे वागप बरें दिसता? ताची वागणूक खंयच्या नीतिमुल्यांक धरून आसा. ताच्यान अनुष्काक आडांवक जाय नाशिल्लें?

संवसार बेस बरो करपाचो आसल्यार संवसाराच्या रथाचीं दोनुय चक्रां सारकीं आसचीं पडटा. अनुष्काच्या मम्मी आनी पप्पांच्या वागण्याबशेन पळेयल्याउपरांत हे तत्व ताचेर लागू जायना. सदांच आपणाल्या घोवाचेर शेक गाजवप, ताच्या उतराक मान दिवप ना. आपुण थारांयता तेंच बरोबर, दुसऱ्याल्या मताक मान दिवप ना, अशेतरेचीं घरांत जर विरूध्द दिशेक तोंडां आसत जाल्यार भुरग्यांचेर संस्कार कशे बरे जातले? आयच्या आवयांनी हे बी मतींत धरूक जाय अशेच तर लेखिका सांगचो यत्न करीना न्हय?

एका तेपार गोंयांत भाटकारशाय चलताली. भाटांत वावुरपी सगळे लोक म्हळ्यार आपले गुलाम अशें भाटकार समजताले. 'मुक्ती'तल्यान अश्याच एका गिरेस्त भाटकाराचे आनी ताच्या अत्याचाराचे चित्रण लेखिकेन केलां. तांतुत सामाजिक प्रस्नाक जरी उक्तायले आसले जाल्यारूय बी भाटांत रावपी राधेचेर जाल्लो अन्याय पळोवंक मेळटा. अनंत भाटकार

राधेचो उपभोग घेतलो. पुण ताच्या पोटांत वाडपी गर्भाक आपणायलो ना. उरफाटें ताच्या कानसुलार दोन थापटां मारून जीव दी म्हुण सांगलें. अशे तरेन भाटकारान आपणाल्या कानार हात दवरले - बळी तो कान पिळी आनीक किदें! निर्बळांचेर शेक गाजोवपी ह्या भाटकाराक कोणुच जाब किद्याक विचारूक शकना? पिळग्यान पिळग्यो हो अन्याय किद्याक सहन करीत रावपाचें? राधेन जे भोगलें तांतुत फकत राधेचो गुन्याव आनी अनंत भाटकारालो कांयच गुन्याव ना? पुण नियतीन गर्भ पोटात वाडयतल्या बायलेकुच हे त्रास दिल्यात आनी समाज लेगीत तिका तेंको दिना.

अशेतरेन ह्या नवलिकांनी शालीन पारंपरिक बायलेचे प्रस्न तर आसाच. पुण अति आधुनिक भुमंडलीकरणाच्या ह्या चपक्यात घुस्पल्ली बायलुय बी आसा. तांच्याभीतर आयिल्लो बदल, लग्नाभायल्या सम्बधांनी आकर्षण. नीतिमुल्याचें जोखड मानुन तें झुगारून दिवपाची वृत्ति, शिकिल्ली आसल्याकारणान फाट-फुडो पळेयनासतना झोकुन दिवप. परिणामाचो विचार करीनासतना निर्णय घेवप अशेतरेचो प्रवृत्ति बायलांभीतर दिश्टी पडटा आनी तांतुतल्यानुच समाजाच्या मळार उप्रासिल्ले प्रस्न आनी परिस्थितिचेर ह्यो नवलिका वाचप्यांक येवजुक लायता.

❖ ❖ ❖

# चार कविता

आर. रामनाथ



## निमाणेकडेन

हांव ताका तापयतां
वेंगायतां
समजायतां
ताचेर संस्करण करतां
पूण तो कांयच एक कानामनार घेना...

म्हज्या कल्पनेतलें विश्व दाखयतां
तो त्सुनामी चितारता.....पितारता!

निमाणेकडेन
तिडकीन
हांव चक्क पाळणो हालयतां
तो व्हडा खोशेन
निसण बांदता!

❖ ❖ ❖

## उजो

ते शांत वस्तीक
कोणेतरी उजो लायलो
उजो लायतल्याचे
हात, काळीज, दोळे, मेंदू अजिबात दिसले ना
आनी दिसले ना ताचे उजो लावन पळून वतना पांय
लेगीत...
खरे म्हळ्यार
बेगोबेग
किंदेय करून
ताका धरपाक जाय...
ताचे हात, पाय, काळीज, दोळे, मेंदू
कुडींतल्यान हुमटावन काडपाक जाय
तांचें स्वतंत्रपणान संशोधन करपाक जाय
आनी संशोधनाचे फलीत
त्या परमसत्याच्या सुवादीन करपाक जाय...

आरेच्चा! वयर सगळेंच फायरप्रुफ...

❖ ❖ ❖

## न्हीद

तो
शांत न्हिदला
बोवाळ करू नाकात
ताका सुशेगाद न्हिदूं दी
खूब्ब तेपान
ताका आयज उसंत मेळल्या...

ताका आतां
कसलीच चिंता ना
कसलोच हुस्को ना
कसलेंच भंय ना...

ताका आतां खंयच
दूखं ना
खूपं ना
तोपं ना
तो सामको घटमूट जाला...

भावना
संवेदना
विचार
मनिसपण
देवसपण
हांचें ताका आतां पडूंक ना...
आयज तो खऱ्या अर्थान मुक्त जाला
ताची नामना चोंयवशीन फांकल्या
तोखणायेन तो जडभार जाला
शिंरगारान तो परमळला
ताणे आयज मळब वेंगायलां...

❖ ❖ ❖

## दडकांनी दुका झडय

वच तूं
निर्वस्त्र
अनवाणी
चिरंतन घाव्यांनी आंग सजय
कात सोलून वताक घाल
दडकांनी दुकां झडय
मनिसपणाचेर पोटतिडकेन उलय
मनश्यांक उलो मार
देवांक उलो मार
तुजें कोण एक आयकुपाचो ना
हांगा सगळे न्हिदल्यात सासणाचे
ह्या निशब्द पोकळेंत
फकत निरव शांतता आसा...

सभाग्या, तुजो हो प्रयोग
नाका थंय चलला....

❖ ❖ ❖

# कवनुलां

मोहन कुलकर्णी

उज्यानी चल्लो
चान्नेंय माळ्ळें
गुलाबाक आशेल्लों
कांटेय आपणायले
आता हांव पयस-पयस
उजो, चान्नें, गुलाब, कांट्याच्या...

## घांस

एक घांस चिअूचो
करत भरयताली आवय
घांस.
तेच चिमणीचो
प्रदुशान घेतलो
घांस!

## सा!

तुजो 'सा'
पयलो -
म्हजो आठवो!

## अजाप!

मनशां अशींय
फातरांक फुलां माळपी
फुलांक फातर मारपी!

## नागडेपण!

नागडेपणच जाय
निसर्गांत भोंवतना,
कळपाक ताचें
अंतरंग!

## आयुश्य!

आयुश्य म्हण
अर्दो पेलो भरिल्लो
कांय अर्दो रितो?
विचार करता करता
कळ्ळेंच ना
केन्ना रितें जालें
आयुश्य!

❖ ❖ ❖

## म्हजें भुरगेपण

**डॉ. भिकाजी घाणेकार**

म्हजे भुरगेपण
सगळ्याक सोदलें...
गड्ड्यानी खेळतल्या जाग्यार
क्रिकेट खेळटालों त्या मळार
मळ्यांतल्या शाळेंत
आल्तीनावेल्या लिसेवार
पणजेच्या मॅडिकल कॉलेजीन
पतंग सोट्टालो त्या मळबांत
बायलेच्या कळाजांत
आवयच्या फोटवांत
बापायच्या मनांत
म्हजें भुरगेपण
खंयच मेळना
हांव खंती जालों
इतल्यान म्हज्या
नातवाचो उलो
आज्या आज्या
तेन्नाच म्हजें भुरगेंपण
म्हाका मेळलें
नातवाच्या दोळ्यांत

❖ ❖ ❖

## वयावेलें चली

**डॉ. भिकाजी घाणेकार**

वयावेलें चली गो बाय तूं
तन मन धन सांबाळून राव

मन आसता चंचल
हांगा थंय भोंवता
जीणेक तुज्या बरी
वाट दाखय तूं

तन तुजें भांडार
सवंसाराचें एक नवल
तेंच तुजें धन
राखून दवर तूं

वाटेवेल्यान चलतना
केळ्या साल आसत
पावल सारकें मार
फुडार परझळीत कर तूं

❖ ❖ ❖



# वसंत गीत

सिंधू अ. शे. असोल्डेकार

वसंत ऋतुची लागतां सुलूस
कोगळान गायलें गीत
झाडा पेडार फुल्लो चवंर
भंवण्यान खोशयेन माल्लो भंवर

मोंगरे कळे आयले फुलून
निसर्ग सगळो परमळायत
जायां जुयां सुरंगां वोवळांक
वसंताचो चडलो भार

आंब्या तेंगशांनी नाचलीं तोरां
साथ दितात पणसा पोरां
तांबडे हळडुवे काजू मुट्टे
काण्णा चुन्ना आनी चारां

वसंताचे हें सैमा रूप
कितलें म्हणून सोबीत
कोगळा सुरांत सूर मेळोवन
सृस्ट गायता वसंत गीत

❖ ❖ ❖



# व्याकरण

प्रा. प्रदीप एकनाथ कांबळे

तुमचे बोलणे अशुध्द आहे
असे कोणी म्हणाले.
नंतर तेच म्हणतात
तुमचे लिहिणे ही अशुध्द आहे
आमचे लिहिणे, बोलणे अशुध्द
आणि तुमचे तेवढे शुध्द
हे बरोबर नाही,
कारण
आम्ही बोलतो, त्यातुन पण
भावनाच व्यक्त होतात
आणि तुम्ही बोलता
त्यातूनपण भावनाच व्यक्त होतात
असेच गेली कित्येक शतकें
आमचे बोलणे लिहिणे
तुम्ही मारून टाकलेत
आमच्या लिहिण्या, बोलण्या
वागण्याची चेष्टा केलीत
आमचा कोंडमारा केलात
आमचे अगणित सुर्य
मारून टाकलेत
पण आता हे विसरा
आमच्या हातात ही
आता कुणी पहार दिलिय
तुमचे जुने भ्रम गैरसमज ढासळण्यासाठी
तुमचे थोतांड उघडे पाडण्यासाठी

# स्मृति

**मोहन कुलकर्णी**

माझ्या मनाच्या तळाशी तिचे कोरलेले रूप ।
कधी मंद निरांजन कधी मंदिरात दीप ॥१॥

हासूं आंसू रुसूं लळा हट्ट, कट्टी खेळ, लीला ।
काऊचिऊच्या घासात कृष्णकन्हैयाचे रूप ॥२॥

पैंजणाची रुणझुण थिटे झाले गं अंगण ।
परिपरी निरागस जणू नभी इंद्रचाप ॥३॥

डोळे, चांदणे सांडत खडीसाखरेचे बोल ।
तुझी गळामिठी गमे स्वर्गसुखाचे कलाप ॥४॥

बकुळीच्या फुलापरी सुकूनही देई गंध ।
जिथे तिथे तुझा वास भासे शांततेचा स्तूप ॥५॥

मोती निसटून गेला हाती राहिले गं शिंप ।
झिजे चंदनाचे खोड परि रेंगाळतो धूप ॥६॥

निराशेची गर्ता खोल मन अंधारून येते ।
तुझ्या आठवात बाळे डोळ्यातून झडे दीप ॥७॥

तुला आठवावे किती तुला साठवावे किती ।
तुझ्यासाठी तेवतो गं हृदयी हा नंदादीप ॥८॥

अजूनही जाणवते तुझे चैतन्यस्वरूप ।
आत्मा अविनाशी तुझा नित्य बसतो समीप ॥९॥

❖ ❖ ❖



# झुला
## सौ. चित्रा प्रकाश क्षीरसागर

असा झुला मनी बाई
श्रावण सरीचा ।
माहेराच्या आठवाणे
भरल्या डोळ्यांचा

असा झुला मनी बाई
श्रावणसरींचा
पंचमीचा सण येता
आठव बंधूचा

असा झुला मनी बाई
श्रावणसरीचा
माझ्या मना नाद भारी
उंच त्या झोक्यांचा

असा झुला मनी बाई
श्रावणसरीचा
हिरव्यागार गवताच्या
झुलत्या पात्यांचा

असा झुला मनी बाई
श्रावणसरीचा
ओढ किती माहेराची
सईच्या प्रेमाचा

असा झुला मनी बाई
श्रावणसरीचा
मंगळागौर घरात येत्या
जागर नव्याचा

असा झुला मनी बाई
श्रावणसरीचा
माय देई गोड घास
पुरण पोळीचा

असा झुला मनी बाई
श्रावणसरीचा
बाप माझा पाठीराखा
मायेच्या ओढीचा

❖ ❖ ❖



## पृथ्वीची हाक

**रमेश द. वंसकर**

पृथ्वीमाता त्रासलीय
अंगाने भाजलीय
वृक्षवेली कापून
ओकी बोकी झालीय
धुळीने माखलीय
धुराने गुदमरलीय
काळजाचे लचके तोडून
रक्तबंबाळ झालीय
पाण्या थेंबा आसूसली
कंठ सुकून कोरडी पडलीय
उघड्या उघड्या अंगात
सावलीस आसूसली
क्रॉक्रीटी जंगले वाढलीत
बांडगूळांनी व्याकूळलीय
वाढता वजनाने
कंबरेतन वाकलीय
आकाशाकडे लागली
पाण्यासाठी नजर
नद्या समुद्र आटून
कंठ कोरडे झालेत
धमन्यातले रक्त
तप्त अधिक होतेय
कधी कधी हालतेय अंग
मग होती सुनामी, भुकंप
अवेळी पाऊस अन्
वादळ वारे, पडझड
अजून वेळ गेली नाही
थांबावया हा प्रकोप
निसर्गाचे करा रक्षण
नाही तर बाळानो
ओढून घ्याल आफत
याचीच वाटते खंत

❖ ❖ ❖



# घात होतो

**प्रकाश रामचंद्र क्षीरसागर**

मी चंद्रगीत रात्री मस्तीत गात होतो
ताऱ्यात शांत वेळी न्हाऊन जात होतो
वाऱ्यात पावसाला येईल जोर थोडा
पुनवेस चांदण्या मी लेऊन रात होतो
अंधार भोवतीचा वेढून रात्र घेतो
अवसेस तेवणारी पणतीत वात होतो
येता बहर कळ्यांना गंधीत झाड होतो
मदमस्त गंधवेडे मदनास घात होतो
जातोस 'सागर' कुठे शोधात ईश्वराच्या
भक्तीत रंगताना भजनात शांत होतो

❖ ❖ ❖

# किती सावरावें?

**प्रकाश रामचंद्र क्षीरसागर**

मला दुःख होता तूच सावरावे ।
झरे डोळियांचे तिथे पाझरावे ॥१॥

कधी मुक्त झाल्या कळेना कळ्या या ।
सुगंधीच वारे पहाटे वहावे ॥२॥

सदा भांडणे अन् 'सुला'ही नव्याने
तिने मौन होणे कधी ना घडावे ॥३॥

तुझा संग भृंगा नको मोगरीला
परि गूढ कोठे मुळांना कळावे? ॥४॥

मना थार नाही तुझा स्पर्श होता
तुला तूच 'सागर' किती सावरावे? ॥५॥

❖ ❖ ❖

# पु. शि. नार्वेकर यांचे गोमन्तकीय साहित्यातील योगदान



प्रा. अशोक मणगुतकर

पु. शि. नार्वेकर हे कथा, नाटक, ललित लेख व समीक्षा अशा वाङ्मय प्रकारात निर्मितीशील राहिले. आजवर प्रकाशित झालेल्या एकूण आठ ग्रंथापैकी चार ग्रंथ हे कथासंग्रह आहेत. त्यातून ४४ कथा प्रकाशित झाल्या आहेत. त्यामुळे प्रामुख्याने कथेच्या संदर्भातच काही विचार मी येथे मांडले आहेत.

मानवी जीवनप्रवाहाबरोबरच गोष्ट, कहाणी, कथा प्रवाहित झालेली आहे. मौखिक, लिखित स्वरूपात ती व्यक्त झालेली आहे. आपण सारेच समाजाचे घटक आहोत. सामाजिकतेच्या विविध रंगात रंगतो आहोत. विविधरंगी जीवनाचे, रंगीबेरंगी जीवनानुभवाचे व्यक्तिगत पातळीवर आपण साक्षीदार आहोत. अतिसंवेदनशील व्यक्ती मनातील जीवनाबद्दलची अस्वथता वा सार्थकता व्यक्त करण्याची धडपड करीत असते. आपल्या कल्पकतेने कलात्मक सौंदर्याचा वेध घेत असते. त्यातूनच वाङ्मयाची निर्मिती होऊ लागते. वाढू लागते. त्याला एक विशिष्ट आकार प्राप्त होऊ लागतो आणि लेखकाचे वाङ्मयीन व्यक्तिमत्व आपल्या वैशिष्ट्यासह वाचकांच्या समोर उभे राहाते.

भारतीय साहित्य परंपरेत सुरूवातीला कथेकडे श्रध्दाळू नजरेने पाहिले गेले आहे. पु. शि. नार्वेकरांच्याबाबतीत हा मुद्दा मला महत्त्वाचा वाटतो.

यासंबंधी पुढे विवेचन येईलच. मानवी जीवनातील नीतितत्त्वांचे महत्त्व याठिकाणी महत्त्वाचे आहे. बदलत्या युगात हा मुद्दा, त्याचे स्वरूप, त्याचे प्रयोजन, त्याचे परिणाम आणि त्याची उपयुक्तता यासंबंधी वाद असू शकतात. "जगातील दुसऱ्या कोणत्याही सुसंस्कृत राष्ट्रांच्यापूर्वीच भारतीयांनी दैवत कथा, अद्भुत कथा, कल्पित कथा आणि प्राणिकथा - नीतिबोध कथा आणि कहाण्या यांना अभिजात साहित्याचे स्वरूप देवून ग्रंथबद्ध केले आहे. ही खरोखरच गौरवास्पद गोष्ट आहे." (मराठी कथा - स्वरूप आणि आस्वाद, प्रा. दा. वि कुलकर्णी, पृ. २१) असे पंडित महादेवशास्त्री जोशी यांनी सांगून ठेवले आहे. संस्कृत कथासाहित्याने विश्व साहित्यात प्रवेश करून त्या त्या देशातील लोकांना नीतिशिक्षण दिलेले आहे. या संदर्भात 'पंचतंत्र' या आद्य व श्रेष्ठ नीतिग्रंथाचा उल्लेख येथे गैर ठरू नये.

"A short story must contain one & only one informative idea and that the idea must be worked out to its logical connections with absolute singleness of aim and directness method" अशी कथेची व्याख्या हडसन यांनी An introduction to the study of Literature मध्ये सांगितली आहे. (लघुकथेच केवळ एकच एक मूळ कल्पना असते आणि तार्किक निष्कर्षासह उद्दीष्टपूर्तीच्या अनुरोधाने त्या मूळ कल्पनेचा विकास अगदी सहज स्वाभाविक रीतीने झालेला असतो.)

प्रा. ना. सी फडके यांनी आपल्या 'प्रतिभा साधन' या ग्रंथात 'कमीत कमी पात्रं आणि कमीत कमी प्रसंग वापरून थोड्या वेळात परिणामकारक रीतीने सांगितलेली व ऐकणाऱ्याच्या मनावर एकच एक ठसा उमटविणारी हकीकत म्हणजे लघुकथा होय." अशी व्याख्या सांगितली आहे.

लघुकथा या वाङ्मयप्रकारबद्दल मतभेद जरूर असतील, परंतु समाजात हा वाङ्मयप्रकार लोकप्रिय झालेला दिसून येतो. कथेला कोणत्याही विषयाचे बंधन नसते. जीवनानुभूतीतील सूक्ष्म अनुभूतीतूनही कथावस्तू उभी राहू शकते. कथेच्या शेवटी त्यातून साधलेल्या परिणामातून वाचकाच्या मनात नवी कथा जन्माला येते. हेच तर कथेचे यश. जीवनानुभव - मग तो वास्तव असो किंवा कल्पित असो किंवा मिश्र असो - आणि त्याचा परिणाम किंवा संस्कार महत्त्वाचा असतो, या मताशी मी सहमत आहे. पु. शि. नार्वेकरांच्या कथेचे स्वरूप बव्हंशी असेच आहे.

मराठी कथा साहित्यातील करमणूक काळातील (१८८५ ते १९१५) हरिभाऊ, मनोरंजन काळातील (१९१५ ते १९२५) वि. सी. गुर्जर, नारायण हरि आपटे, यशवंत-किर्लोस्कर कालखंडातील (१९२५ ते १९४५) फडके-खांडेकर अशा काही कथाकारांचा व कथेच्या विकास टप्प्यांचा ओझरता नामोल्लेख करून मी सरळ नवकथेच्या कालखंडाकडे (१९४५ ते १९६०) थोडासा सरकतो. कारण याच कालखंडात पु. शि. नार्वेकरांचे लेखन सुरू झाले होते.

गंगाधर गाडगीळ, अरविंद गोखले, पु. भा. भावे, व्यंकटेश माडगूळकर यांनी नवकथा प्रवाहाला सुरूवात करून ती प्रस्थापित व विस्तारितही केली, हे आपण जाणतोच. या काळात आशय आणि अभिव्यक्ती यात नवेपणा येऊ लागला. प्रायोगिकता आली. अंतर्मनातील भावनांना महत्त्व प्राप्त होऊ लागले. नि:शब्द मनाची तरलता व्यक्त होऊ लागली. मनाच्या तळाशी जाऊन मानवी भावभावनांना स्पर्श करण्यासाठी कथाकार धडपडू लागले. संस्कृती-विकृती, श्लील-अश्लील, संगती-विसंगती, नीति-अनीति इत्यादी

कल्पनांच्या पलिकडे जाऊन नीतिनिपेक्ष वस्तुनिष्ठता कथेत चित्रित होऊ लागली.

गाडगीळ, गोखले यांची मनोविश्लेषणात्मक प्रायोगिक कथा, जुन्या-नव्याचा संगम साधून जीवनमूल्ये जोपासणारी भावेंची कथा, माडगूळकरांची वास्तव ग्रामीण कथा यांनी नवकथा ठळक करून परंपराही सुरू केली. जुनी कथा, परंतु नव्या जाणिवा व अनुभूती समर्थपणे व्यक्त करणाऱ्या लेखकात पं. महादेवशास्त्री जोशी, अच्युत बर्वे इत्यादींचे योगदान महत्त्वपूर्ण आहे. शास्त्रीबुवांनी आपल्या सर्व कथांतून मानवी मूल्यांचा पुरस्कार केलेला दिसतो.

येथे गोमन्तकीय कथेवरही एक ओझरती नजर फिरवणे औचित्यपूर्ण होईल. सांस्कृतिकदृष्ट्या गोमन्तकाचे महाराष्ट्राशी अगदी जवळचे नाते आहे, तसेच साहित्यिकदृष्ट्याही. त्यामुळे मध्यवर्ती मराठी साहित्य धारेशी गोमन्तसाहित्यधाराही समांतर राहिलेली दिसते. कृष्णदास शामा यांचा 'श्रीकृष्णचरित्र कथा' हा आद्य मराठी ग्रंथ म्हणजे आख्यनकाव्यच. त्यात श्रीकृष्णचरित्रातील कथा पद्यातून चित्रित झाल्या आहेत. इतरही काही ग्रंथातून पद्यात्मक कथारचना झालेली दिसते. याला समांतर अशी लोककथांची परंपराही गोमन्तकात दिसते. विसाव्या शतकाच्या पूर्वार्धात गोमन्तकात अनेक नियतकालिके अनियतकालिके प्रकाशित होऊ लागली. त्यातून अनेक कथा प्रकाशित होऊ लागल्या. या कथांवर आपटे - गुर्जर - फडके - खांडेकर यांच्या रचनातंत्राचा प्रभाव जाणवतो. या काळातील गोमन्तकाच्या पहिल्या पिढीत सावळाराम घनश्याम कंटक यांची कथा लक्षवेधी ठरली. त्यांच्या एकूण चार कथासंग्रहातून (सुमनगुच्छ - १९२९, कणासाचे दाणे, शहाळी, जाईची फुले - १९६१) कथा प्रकाशित झाल्या. (अंदाजे चारशे कथा). या कथा कलात्मकतेत उण्या असल्या तरी त्यावर नवमतवादाचा प्रभाव जाणवतो. १९२६ मध्ये वि. स. सुखठणकरानी 'कटु कर्तव्य' ही पहिली कथा लिहिली आणि १९३१ साली 'सह्याद्रीच्या पायथ्याशी' (आठ कथा) हा त्यांचा कथासंग्रह प्रकाशित झाला. मराठी साहित्यातील प्रादेशिक कथांचे जनक म्हणून त्यांना मान्यता मिळाली. सुखठणकरांनी आपल्या कथांतून भाषा व शैलीची नवी मांडणी केली असे डॉ. प्रल्हाद वडेर यांनी नोंदवले आहे, तर प्रा. गंगाधर गाडगीळ यांनी या संग्रहाने सारा गोमन्तक माझ्या डोळ्यासमोर उभा केला, असे गौरवोद्गार काढले. सुखठणकरांनंतर प्रा. लक्ष्मणराव सरदेसाई, जयवंतराव सरदेसाई, व्यंकटेश पै रायकर, पं. महादेवशास्त्री जोशी यांचे कथालेखन लक्षवेधी ठरले. विशेषत: लक्ष्मणराव सरदेसाईंच्या कथालेखनात आशय आणि अभिव्यक्ती यात विपुल विविधता आढळते, याची आवर्जून नोंद करावीशी वाटते.

गोमन्तकात दुसऱ्या पिढीतील कथाकारांचा उदय मुक्तीनंतरच्या काळात झालेला दिसतो. यात जयराम कामत, ज्ञानेश्वर कोलवेकर, वासंती नाडकर्णी, यशवंत कर्णिक, डॉ. प्रल्हाद वडेर, डॉ. अरूण हेबळेकर, नरेश कवडी, पु. शि. नार्वेकर इत्यादी लेखकांचा समावेश करता येईल.

जयराम कामत यांची कथा नेमकेपणा व नाट्यमयतेने नटलेली दिसते. बदलते जनजीवन व त्यांच्या नव्या आशा-आकांक्षा, नव्या जाणिवा यांना ज्ञानेश्वर कोलवेकरांच्या कथेत स्थान मिळाले. वासंती नाडकर्णी यांनी तटस्थपणे बदलते समाजजीवन चित्रित केले आहे. तटस्थपाणाच्या वैशिष्टामुळे त्यांना अनुभवातील वास्तव निखळपणे मांडता येणे शक्य झाले असावे. अंतर्मनातील गुंतागुंतीचे चित्रण करण्यात त्या यशस्वी झालेल्या दिसतात. यशवंत कर्णिक यांच्या कथेचा 'सूचकता' हा गुण विशेष महत्वाचा

आहे. डॉ. प्रल्हाद वडेर हे नवकथाकार आहेत. घटनेपेक्षा भावदर्शनाला त्यांच्या कथेत स्थान मिळाले आहे. 'व्यक्ती' ही कथेच्या केंद्रस्थानी असल्यामुळे व्यक्तिचित्रण प्रभावीपणे झालेले दिसते. डॉ. वडेर हे उत्तम समीक्षकही होते. त्यामुळे नव्या-जुन्या कथांची सामर्थ्ये व मर्यादा यांची त्यांना जाण होती. मोपासां आणि चेकॉव्ह यांच्या कथेचा प्रभाव त्यांनी आत्मसात केला होता. माणसाचा शोध त्यानी आपल्य कथांतून घेतलेला दिसतो. अरूण हेबळेकरांची कथा माणसाच्या मनातील वासना, विकार व विकृतींचा शोध घेताना वास्तव व अतिवास्तव यांच्या सीमारेषेवर रेंगाळताना दिसते. दु:खी, पीडित, वैफल्यग्रस्त माणसांचे चित्रण त्यांच्या कथेत आले आहे. वास्तववादी कथाकार म्हणून जसा हेबळेकरांचा विचार करावा लागतो तसाच विज्ञानकथाकार म्हणूनही त्यांचा विचार करणे क्रमप्राप्त ठरते. गोमन्तकीय कथावाङ्मयात विज्ञानकथेचा प्रवाह अरूण हेबळेकर यांनी सुरू केला. कौटुंबिक नात्यातील ताणतणाव, जीवनातील विसंगती, वास्तव यांचे दर्शन नरेश कवडी यांच्या कथांनी घडविले आहे. उपरोध, उपहास, विनोद अशा शैलीमुळे त्यांच्या कथा लक्षवेधी ठरल्या आहेत. याबरोबरच कितीतरी नव्य दमाचे, नव्या जाणिवांचे, नव्या शैलीचे लेखक सातत्याने कथालेखन करीत आहेत. अशा समकालीन किंवा लगतच्या कथाकारांचा विचार विस्तार भयास्तव येथे केलेला नाही, हे प्रांजळपणे कबूल करतो.

गोमन्तकात दलित साहित्य केवळ काव्य व आत्मकथन या प्रकारापुरतेच मर्यादित राहिले आहे. दलित कथा मात्र दिसत नाही. स्थानिक लेखकांनी गोमन्तकीय प्रादेशिकता अधोरेखित केली, मात्र नोकरी व्यवसायानिमित्त गोमन्तकात आलेल्या कथाकारांना ते जमू शकले नाही. त्यामुळे इथल्या लोकसंस्कृतीशी निगडीत अनुभव त्यांच्या कथेत येऊ शकले नाहीत. या काळात संख्यात्मक वाढ भरपूर झालेली दिसते, मात्र गुणात्मक? विचार करावा लागेल.

या साऱ्या पार्श्वभूमीवर आपल्याला पु. शि. नार्वेकर यांच्या कथांचा व इतर लेखनाचा विचार येथे करावयाचा आहे.

त्यांच्या साहित्याकडे वळण्यापूर्वी त्यांचा जीवन परिचय करून घेणे मला महत्त्वाचे वाटते. कोणताही लेखक घडताना त्याच्य जीवनाचा, जीवनात आलेल्या सुखदु:खांचा, संघर्षाचा, यशापयशाचा, विविध अनुभवांचा, संस्कारांचा मोठा प्रभाव लेखनशैलीवर पडत असतो, याबद्दल आम्हा अभ्यासकांत दुमत असू नये. या चर्चासत्रात चरित्रात्मक अंगानेही साहित्याची चिकित्सा व्हावी, असे मला वाटते. तेव्हा सुरुवातीला त्यांचा ओझरता जीवन परिचय आपण पाहू.

गोमन्तकातील बांदोडा गावात ३० जून १९२५ रोजी एक बालक जन्माला आले. त्याचे नाव पुंडलिक शिवराम नार्वेकर, त्यांचे बालपण वास्को येथे गेले. ते चार वर्षाचे असताना त्यांचे वडिल वारले. पुढे त्यांच्या वयाच्या १४-१५ वर्षापर्यंत, म्हणजे साधारणपणे पुढील १० वर्षे चुलत्याने त्यांचा सांभाळ केला. सुरूवातीचे शिक्षण त्यांनी वास्कोतच पूर्ण केले. वास्कोला चुलत्याचे चहाचे हॉटेल होते, तेथेही ते मदत करीत. ते १४-१५ वयाचे असताना त्यांचे चुलतेही वारले. त्यामुळे १९४० पासून कुळ्याला ते आपल्या मामाकडे आधारासाठी आले. पुढे त्याच गावात स्थायिक झाले. त्यांनी १०वी पर्यंत सुरूवातीला पोर्तुगीज व नंतर इंग्रजी शिक्षण घेतले. पुढील शिक्षण काही कारणास्तव अर्ध्यावरच सोडावे लागले. सुरूवातीला नोकरीसाठी त्यांना जयसिंगपूर, कोल्हापूर या ठिकाणी जावे लागले. तेथील संस्थांच्या

लेखाविभागात त्यांनी काम केले. गोव्यात परत आल्यावर माधवराव तळावलीकर माईन्स, साकोर्डे येथे निवृत्तिपर्यंत त्यांनी लेखाविभागात सेवा बजावली.

दरम्यानच्या काळात त्यांनी कुळे गावात मित्रमंडळींच्या सहकार्याने खाजगी प्राथमिक मराठी शाळा सुरू केली. गोवामुक्तीनंतर सरकारी प्राथमिक मराठी शाळा सुरू होताच ती बंद करावी लागली. कुळे गावातच शारदामंदिर वाचनालय त्यांनी सुरू केले. बरीच वर्षे हे वाचनालय सुरू होते. अलिकडच्या काळात ते चालवणे अशक्य झाल्यामुळे तेही बंद पडले आहे. परंतु त्यांच्या जीवनातील सामाजिक सेवेचा हा भाग मला खूप महत्त्वाचा वाटतो. १९६८ ते १९७३ या काळात ते कुळे गावात पंचायत सदस्य होते. माणसं जमवायला त्यांना खूप आवडतं. गोवा मुक्ती चळवळीत त्यांचा प्रत्यक्ष सहभाग नसला तरी या चळवळीचे त्यांनी अगदी जवळून निरीक्षण केले आहे. पोर्तुगीज राजवटीच्या अखेरच्या कालखंडात 'आजेंत काज्मीर मोंतेरो' नावाचा कुप्रसिद्ध गुप्त पोलिस अधिकारी गोव्यात सर्वाधिकारी बनला होता. त्यांनी त्याला प्रत्यक्ष पाहिला होता. कुळ्याला मोंतेरो व त्यांची भेटही झाली होती. ही व्यक्ती काही कथांतून चित्रित झाली आहे. महाभारताचे ते व्यासंगी अभ्यासक व विचारवंत आहेत. त्यांच्या अनेक कथांची प्रेरणाबीजे त्यांच्या जीवनात दडलेली आहेत. वाचनाची तर त्यांना आवड आहेच. त्यांचे चौफेर वाचन अजूनही चालू आहे.

आता वयाच्या सत्तरीत असलेल्या त्यांच्या पत्नी श्रीमती निर्मला पुंडलिक नार्वेकर यांनी त्यांना गृहिणी म्हणून जबाबदारीने साथ दिलीच, पण त्याचबरोबर त्यांच्या समाजसेवेत व साहित्यसेवेतही त्या सावलीसारख्या सतत त्यांच्याबरोबर राहून त्यांना बळ देत राहिल्या. त्यांच्या संसारवेलीवर लीला, चंद्रशेखर व सुनेत्रा कळंगुटकर या नावाने प्रतिष्ठा प्राप्त झाली आहे. त्यांच्यापासून झालेली संतती अनुक्रमे दोन पुत्र, एक पुत्र व एक कन्या अशी नातवंडे आनंदाने जीवन व्यतीत करीत आहेत.

नार्वेकर यांच्या जीवनप्रवासात आतापर्यंत त्यांचे एकूण आठ ग्रंथ प्रकाशित झाले आहेत व दोन ग्रंथ प्रकाशनाच्या वाटेवर उभे आहेत. त्यापैकी 'विघ्नहर्ता', 'मृगजळ' (१९८९), 'कलंदर' (१९९८) व 'ब्लॅकीस्ट' (२००८) हे चार कथासंग्रह, 'नवमीच्या मध्यरात्री' (१९९७) हे ऐतिहासिक नाटक, 'द्यूतचक्र' व 'आषाढधारा' हे ललित लेखसंग्रह आणि 'शरदबाबूंच्या नायिका' हा समीक्षा ग्रंथ अशी ग्रंथसंपदा आहे. 'मुखवटे' हा कथासंग्रह व 'शरदबाबूंच्या मानसकन्या' हे दोन ग्रंथ प्रकाशनाच्या वाटेवर आहेत. लवकरच ते प्रकाशित होतील अशी अपेक्षा. या ग्रंथापैकी 'विघ्नहर्ता' कथासंग्रह गोमन्तक प्रा. लि. तर्फे आणि शरदबाबूंच्या नायिका' गोमन्तक मराठी अकादमीतर्फे व 'आषाढधारा' मांडवी प्रकाशनतर्फे प्रकाशित झाले आहेत, इतर सर्व ग्रंथ राजहंस प्रकाशनतर्फे प्रकाशित झाले आहेत.

पु. शि नार्वेकर यांना गोमन्तक मराठी अकादमीचे मानद अधिसदस्यत्व लाभले आहे. 'मृगजळ' कथासंग्रहाला प्रागतिक विचार मंच, बोरी यांचा साहित्य पुरस्कार लाभला आहे. १९९४ साली 'कलंदर' कथासंग्रहाला' १९९९ साली 'शरदबाबूंच्या नायिका' ग्रंथाला गोमन्त विद्या निकेतन, मडगाव यांचा साहित्य पुरस्कार लाभला. राज्य शासनाच्या प्रतिष्ठेच्या साहित्य पुरस्कारावरही त्यांचे नाव कोरले गेले आहे. १९९७ साली मार्शेल येथे भरलेल्या साहित्य मेळाव्याचे ते अध्यक्ष होते. तळावली येथे १९९६ साली प्रागतिक विचार मंच, बोरी आयोजित

साहित्य संमेलनाचे ते अध्यक्ष होते. तसेच २००९ साली मार्शेल येथे भरलेल्या गोमन्तक मराठी साहित्य संमेलनाचे अध्यक्ष म्हणूनही त्यांना सन्मान लाभला. पाठ्यपुस्तक लेखक समिती सदस्य व प्रौढ शिक्षणासाठी तयार केलेल्या रामायण-महाभारत कथा लेखक समिती सदस्य म्हणूनही त्यांनी काम केले आहे.

पु. शि. नार्वेकर हे एक उत्तम साहित्यकार आहेतच, पण याच्याच बरोबरीने त्यांच्यात लपलेला आणखी एक कलाकार, आणखी एक अनोखा गुण, आणखी एक छंद आपणास सांगताना मला विशेष आनंद होतो आहे. ते एक उत्तम चित्रकारही आहे. विविध चित्रे आणि विशेषत: व्यंगचित्रे अनेक दैनिकांतून प्रसिद्ध झाली आहेत. गेली २-३ वर्षे त्यांचे लेखन थांबले असले तरी आजही ते चित्र काढतात, त्यात रमून जातात.

याशिवाय त्यांची राजकीय विषयावरील प्रहसने दैनिकांमधून प्रसिद्ध झाली आहेत. 'ओदिसचा सागरप्रवास' ही लेखमालाही दैनिक 'नवप्रभा' मधून प्रकाशित झाली आहे.

'विघ्नहर्ता', 'मृगजळ', 'कलंदर' व 'ब्लॅ कीस्ट' या चार कथासंग्रहातून एकूण ४४ (१७, १२, ८, ७) कथा प्रकाशित झालेल्या आहेत. यातील बहुतेक कथा विविध दैनिकांच्या रविवार पुरवण्या, दिवाळी अंक, नियतकालिके यातून प्रकाशित झालेल्या आहेत. यातील काही कथा सत्य घटनांवर आधारित आहेत, तर काही सत्य व कल्पित घटनांवर आधारित आहेत. नार्वेकरांचे माणसांवर प्रेम आहे. म्हणूनच माणूसकी, नैतिकता, मूल्यात्मकता या गोष्टींना त्यांच्या कथांत प्राधान्य मिळाले आहे. याविषयी स्वत: नार्वेकर 'विघ्नहर्ता' संग्रहाच्या निवेदनात म्हणतात, ''बंगाली साहित्यिक डॉ. शरच्चंद्र चतर्जी यांच्या कादंबऱ्यांच्या (मराठी भाषांतर) माझ्या मनावर मोठा प्रभाव पडला होता. त्यांच्यानंतरचे माझे आवडते साहित्यिक म्हणजे कै. वि. स. खांडेकर, कै. ग. त्र्यं. माडखोलकर आणि व्यंकटेश माडगूळकर. शरच्चंद्र, खांडेकर व माडगूळकर यांच्या साहित्याचे स्वरूप भिन्न असले, तरी मानवजातीबद्दलची अपार अनुकंपा तिघांच्याही साहित्यकृतीतून आढळते. माडखोलकरांचे साहित्य काहीसे निराळे आहे, तरीही ते मला आवडते. राजकारणाविषयीची माझी आवड त्याला कारणीभूत असू शकेल. या साहित्यिकांच्या साहित्याचा माझ्या मनात प्रभाव पडलेला असला, तरी त्यांच्यापैकी कुणाचेही अनुकरण करण्याचा मी प्रयत्न केलेला नाही. तसा प्रयत्न करणे म्हणजे न पेलणारे ओझे शिरावर घेणे, याची मला जाणीव आहे. माझ्य कथा त्या दृष्टीने स्वतंत्र आहेत. माझ्या जीवनातील अनुभवांवर, निरीक्षणावर, दुसऱ्यांच्या अनुभवांवर व क्वचित वृत्तपत्रांत प्रसिद्ध झालेल्या घटनांवर त्या आधारलेल्य आहेत. असे असले तरी, वर उल्लेखिलेल्या मान्यवर साहित्यिकांच्या विचारांची छाया नकळत त्यांच्यावर पडलेली असणे शक्य आहे.'' (पृ. ६)

'मानवजातीबद्दलची अपार अनुकंपा' नार्वेकरांच्या साऱ्या कथांच्या मागे उभी आहे. खरे तर तेच त्यांच्या कथांचे स्वरूपवैशिष्ट्य आहे. कथांमधील अनुभव साधे आहेत. व्यामिश्रता नसली तरी सच्चे आहेत, प्रामाणिक आहेत. प्रायोगिक नसले तरी कलात्मक आहेत. स्वानुभवाचा आविष्कार कलात्मकरित्या मांडण्याची त्यांची शैली वाचकाची उत्सुकता वाढवत जाते, म्हणूनच मनावर संस्कार करते. आजच्या एकूणच जीवनामध्ये 'संस्कार' हा घटक टाकावू ठरतो आहे. उपरी, नाटकी, भपकी जीवनशैली माणसाला कोठे नेऊन पोहोचवणार आहे, ते कुणीही सांगू शकत नाही. परंतु समाजमनाला अशा जीवनशैलीची भुरळ पडत चालली आहे,

हे मात्र खरे. त्यांना वाचवायचे असेल तर पु. शि. नार्वेकरांच्या साहित्यासारखी साहित्यनिर्मिती होत राहाणे व ती वाचकांपर्यंत पोहोचवणे आवश्यक आहे. मूल्यशिक्षणाची गरज येथे नव्याने सांगण्याची आवश्यकता नाही. पु. शि. नार्वेकरांच्या साऱ्या कथांतून हाच तर खरा संस्कार वाचकमनावर होतो. मम्मटाने सांगितलेले उद्‌बोधन हे महत्त्वाचे प्रयोजन या कथांतून साध्य होते. म्हणूनच या कथा महत्त्वाच्य ठरतात. फक्त गोमन्तकीय साहित्यातच नव्हे तर एकूणच मराठी साहित्यात त्यांचे हे योगदान अतिशय महत्तपूर्ण आहे.

कथेत प्रायोगिकता नाही, व्यामिश्रता नाही, नवेपणाही नाही म्हणून कदाचित ती कुणाला बाळबोधही वाटेल, जुनाट वाटेल. पण याही बाबतीत नार्वेकरांची भूमिका ठाम आणि स्पष्ट आहे. ते म्हणतात, ''विकृतीबरोबरच जीवनात मांगल्यही असते. स्वार्थाबरोबर त्यागही असतो. स्वत:शिवाय दुसऱ्याचा विचार न करणारी माणसे असतात, तशी दुसऱ्यांसाठी निरपेक्ष बुद्धीने देह झिजविणारेही असतात. त्यांचे कोणी चित्रण केले, तर त्यावर जुनाटपणाचा शिक्का मारण्याचे कारण नाही.'' (विघ्नहर्ता, लेखकाचे निवेदन, पृ.७) त्यांच्या कथांत मांगल्य आहे, त्याग आहे नि निरपेक्ष बुध्दीने दुसऱ्यांसाठी देह झिजविणारेही आहेत. भले कुणाला त्या आदर्शवादी वाटोत, पण आज जे समाजचित्र आपणांस आजूबाजूला दिसते आहे, त्या चित्रावर नार्वेकरांच्या कथांतील कथाशयरूपी हिरव्या रंगाचे ब्रश सतत मारत राहाणे आवश्यक आहे. नार्वेकरांच्या कथांतून हीच तळमळ आणि हाच प्रामाणिकपणा सतत अधोरेखित झालेला दिसतो. लेखक संवेदनशील आहे, प्रामाणिक आहे म्हणूनच काही वेळा दुखावलाही जातो. 'ब्लॅकीस्ट' संग्रहाच्या मनोगतात हा दुखरा कोपरा त्यांनी व्यक्त केला आहे. ते सांगतात, ''गोमन्तक मराठी अकादमीने आपल्या 'मैत्र' या द्वैतमासिकाचा एकदा कथाविशेषांक काढला होता. त्यात माझी 'सूड' ही कथा होती. पुढे अकादमीने त्या सगळ्या कथांवर चर्चा करण्यासाठी एक वाचक-लेखक समीक्षक मेळावा आयोजित केला. त्यात माझ्या 'सूड' या कथेवर बोलताना एका विदुषीने असा शेरा मारला की, त्यातील मोंतेरोची व्यक्तिरेखा लेखकाने दुसऱ्या लेखकांच्या पुस्तकातून घेतली असावी. मोंतेरो हे काल्पनिक पात्र आहे व ते मी दुसऱ्या लेखकांच्या पुस्तकातून उचलले आहे, अशी बाईंची समजूत झाली असावी. तशी इतरांची होऊ नये म्हणून हे सर्व सांगावे लागले. कुणावर टीका करण्याचा माझा हेतू नाही.'' नार्वेकरांच्या जीवन परिचयात या मोंतेरोचा उल्लेख मी केलेला होता. या चर्चासत्रात लेखकाची ही संवेदनशीलता व प्रामाणिकपणा आपण समजून घेऊ अशी अपेक्षा केली तर ती गैर ठरू नये. जन्मापासून वयाच्या पस्तीशीपर्यंत म्हणजे १९६१ पर्यंत त्यांनी पोर्तुगीज राजवट अनुभवली आहे. त्यामुळे त्याचे संदर्भ व त्या संदर्भातील अनुभव अनेक कथांतून प्रगट झालेले आहेत.

'विघ्नहर्ता' कथेची सुरूवातच मुळी ''गोव्यात पोर्तुगीजांचे राज्य होते, त्या काळातील ही गोष्ट आहे'' अशा निवेदनाने सुरूवात होते. कथेत मोंतेरो समाजाला कशाप्रकारे छळत होता, त्याचे एक प्रतिनिधिक अनुभव रूप चित्रित झालेले दिसते. कथेतील घटना साधीच असली तरी प्रभावी निवेदनामुळे वाचकमनाची पकड घेते. शिवाय कथेच्या शेवटी विसूअण्णांना गणपतीने सोडवून आणल्यामुळे दुष्ट प्रवृत्तीविरूद्ध झालेला विजय अधोरेखित होतो आणि या विजयाचे श्रेय विघ्नहर्त्या गणेशाला दिले जाते. वाचकमनही श्रद्धाळू बनविण्यात ही कथा यशस्वी होते. कथारचनेत गणेशचतुर्थीचे औचित्य साधून कलात्मकताही जोपासली जाते. अनेक पोर्तुगीज व्यक्ती, पोर्तुगीज शब्द यामुळे वातावरण

